जाग प्रकाशनाचें

# जाग

*म्हयनाळें*

वर्स ४५ : आंक १ : ऑगस्ट, २०१८

* संस्थापक संपादपी :
  स. रवीन्द्र केळेकार
  स. सुमंत केळेकार

* वैचारीक दायज :
  स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी :
  आसावरी नायक

* पालवी संपादपी :
  कृपाली नायक
  एडना वाझ

* उजवाडावपी :
  जयवंत भा. सरदेसाय
  २०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
  रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
  मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी :
  इम्प्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
  गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

* वेव्हाराचो नामो :
  जाग म्हयनाळें
  २०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
  रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
  मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.
  फोन: ९७८०८७१११८

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-



## मांडावळ...



भायलें चित्र : उत्तरा आंगलो
भितर्ल्ली चित्रां : भरत जगताप



# गोंयांत आंकडो वाडलो वट्ट आंकडो देंवलो

## २०११ चे जनगणनेंत मायभास कोंकणी

उदय भेंब्रे

गोंयांत अजून कांय जाणांक कोंकणीची नसाय आसा. मराठीच्या नांवान कोंकणीक विरोध करपी मराठीवाद्यांक (मायभास कोंकणी आसुनूय आपली भास मराठी म्हणपीवादी) ती आसाच; पूण तांचे परस चड कोंकणीक उणाक लेखपी इंग्लीशवाद्यांक आसा. कोंकणी विशीं इल्लें पसून उणेपण दिसलें जाल्यार मिटक्यो मारीत ताचें चर्वण करपाची ह्या इंग्लिशवाद्यांक संवय. ते कोंकणीचें बळ लिपयतले आनी सत्य सांगतना पसून तें विकृत करून सांगतलें.

असली एक गजाल निकतीच घडल्या. २०११ वर्सा जी जनगणना जाल्ली ते जनगणनेंत कितल्या मनशांनी खंयची भास आपली मायभास म्हूण सांगल्या हे विशींचे आंकडे जनगणना संस्थेन जून म्हयन्याचे अखेरेक जाहीर केले. त्या आंकड्यांचो सारको अभ्यास करिनासतना आनी खंयचे गजालीक कितलें म्हत्व दिवचें हाचें तारतम्य धरिनासतना कांय इंग्लिशवाद्यांनी बोवाळ घालो की कोंकणी उलोवप्यांचो आंकडो देंवला; तो डोग्री परस सकयल गेला. जणूं कांय कोंकणी भाशेचेर मोट्टी हावळ आयल्या! वा कोंकणी लोकांक आपली मायभास नाका-शी दिसूंक लागल्या!! जाहीर जाल्ल्या आंकड्यांनी कोंकणीच्या मूळपिठांत वाड जाल्या हे विशीं दाखय-लिपय केलें आनी महाराष्ट्र-गुजरात ह्या राज्यांनी आंकडो देंवला म्हूण हुयेल मारली. जनगणना संस्थेन जाहीर केल्ले आंकडे कितें सांगतात ताची विस्कावणी ह्या लेखांत केल्या.

मायभाशेच्या विशयांत जनगणनेच्या आंकड्यांचो सारको अर्थ लायतले जाल्यार दोन चित्रांचो अभ्यास करचो पडटलो. हीं दोन चित्रां म्हळ्यार ह्या लेखांतले दोन तक्टे. एक तकटो आसा गोंय राज्या संबंदान आनी दुसरो तकटो आसा देशांतले कोंकणीचे स्थिती संबंदान. एका तक्ट्यांत स्पश्ट जाता कोंकणीचें बळ आनी वाडिल्लो आंकडो. तेच भाशेन गोंयांतल्यो हेय मायभासो आनी त्यो आपल्यो मायभासो अशें सांगपी लोकांचे आंकडे. दुसऱ्या तक्ट्यांत दिसतात देशांतल्या ज्या वाठारांनी कोंकणी आपलीं मायभास म्हणपी लोक रावतात ते वाठार आनी त्या लोकांचे आंकडे. देशाच्या पावंड्यार कोंकणी आपली मायभास अशें सांगपी लोकांचो आंकडो देंवला; तो खंय आनी कितलो देंवला हेंवूय हो तक्टो दाखयता.

एक गजाल मतींत धरूंक जाय. जनगणनेची यंत्रणा अमूक एक भास 'उलोवपी' (speakers) अशीं उतरां वापरना. 'मायभाशेच्या संदर्भांत लोकसंख्या' (population by mothertongue) ह्या माथाळ्या खाला भासो आनी लोकसंख्या हांचे विशींची खबर मेळटा.

### गोंयांतलें चित्र

ह्या लेखांतल्या पयल्या तक्ट्यांत चित्र दिसता तें गोंयां विशींचें. लोकां मदल्या वेगवेगळ्या गटांनी वट्ट २४ भासो आपणाल्यो मायभासो म्हूण जाहीर केल्यात वा सांगल्यात. चडांत चड जाणांनी कोंकणी आपणाली मायभास अशें सांगला; तर बोडो ही आपणाली मायभास अशें सांगपी लोकांचो आंकडो उण्यांत उणो आसा. कोंकणी, मराठी आनी हिंदी हांचे मदली दर एक भास आपली मायभास अशें सांगपी लोक देड लाखा वयर आसात. कन्नड, उर्दू, मल्याळम आनी तेलगु हांचे मदली दर एक भास आपली मायभास अशें सांगपी लोकांचो आंकडो १० हजार आनी ७० हजार हांचे मदीं आसा. इंग्लीश आनी ९ देशी भासो हांचे संबंदान लोकांचो आंकडो एक हजारा वयर आनी ८ हजारां सकयल आसा. उरिल्ल्या ७ भासां संबंदान लोकांचो आंकडो हजारा सकयल आसा. एक गजाल नदरेंत

भरता ती अशी की कोंकणी संबंदीचो आंकडो सुमार दोन लाखांनी वाडला; मराठी संबंदींचो आंकडो सुमार अर्दान देंवला; हिंदी संबंदीचो आंकडो सुमार दुपेटीन वाडला आनी २००१ ते २०११ ह्या धा वर्साच्या काळांत इंग्लीश आपली मायभास अशें सांगतल्यांचो आंकडो १५७५ नी वाडला. २००१ वर्सा ८१९० आशिल्लो तो २०११ वर्सा ९७६५ जाला.

आनीक एक गजाल ह्या चित्रांत मेळटा ती अशी की कन्नड, मल्याळम, तेलगु आनी तामीळ ह्या दक्षिणी भाशां संबंदा लोकांचो आंकडो वाडला; तर बंगाली, मणिपूरी, ओडिया ह्या भाशां संबंदान लोकांचो आंकडो बरोच वाडला.

एक अजापाची गजालूय ह्या तकट्यांत आसा. संस्कृत ही आपली मायभास अशें सांगिल्ल्यांचो आंकडो १०५५ आसा. २००१ वर्सा तो ४६ आसलो. १०५५ हो आंकडो खरो अशें मानपी कोणूय आसत अशें दिसना. तर जनगणना यंत्रणेन त्या आंकड्याचें खरेपण तपासनासतना तो कसो मानून घेतलो असो प्रस्न जायत्या जाणांच्या मनांत उपरासतलो. ह्या विशयांत जनगणना यंत्रणेची रीत समजून घेवंक जाय. म्हायती जमयतना जनगणना यंत्रणेचे कर्मचारी वा अधिकारी लोक जशी जाप दितात तशी नोंद करतात. ती खरी न्हय अशें दिसलें तरी वाद करपाचो वा खरें कितें हाचो सोद घेवपाचो अधिकार तांकां नासता. जाची मायभास कोंकणी तो मनीस संस्कृत वा इंग्लीश अशें सांगता जाल्यार तशी नोंद जाता. अजून खंयच्याय गोंयकारान जपानी वा चीनी ही आपली मायभास म्हूण सांगूंक ना हे उपकार! पूण फुडाराक कितें घडत तें सांगूंक जायना!

### दिशाभूल

कोंकणी विशीं दिशाभूल करपाचो एक यत्न जाला. आंकडे सारके समजून घेनासतना गोंयांत कोंकणी मायभास म्हणपी लोकांचो आंकडो देंवला अशें मत कांय जाणांनी उक्तायलां. लिपीवादाचो आनी लागू जायनाशिल्ल्या विशयांचोय संबंद थंय लायला. आंकडो देंवला हेंच मुळांत फट. आंकडो वाडला आनी ती वाड सुमार दोन लाखांची आसा. २००१ वर्सा जो आंकडो ७,६९,८८८ आशिल्लो तो २०११ वर्सा ९,६४,३०५ (६९.३० टक्के) जाला. ही वाड १,९४,४१७ इतली आसा. ही वाड कशी जाली? ह्या प्रस्नाची जाप तर्कानूच दिवची पडटा. म्हज्या तर्का प्रमाण ही वाड जावपाचीं मुखेल कारणां दोन:

१) वेगवेगळ्या माचयां वयल्यान मायभाशे संबंदान वा कोंकणी भाशे संबंदान जें सांगप जालां ताचे परिणामीं लोकां मदीं जागृताय जाल्या आनी गोंयकारांक आपले अस्मितायेची वळख जावंक लागल्या.

२) 'आमी कोंकणी उलयतात पूण आमची मायभास मराठी' हें आदल्या पिळग्यांतल्या 'वादी' मनशांचें तर्कट नव्यो पिळग्यो मानून घेनात.

देशांत हेर कडेन आंकडो देंवलो तरी गोंयांत तो वाडला हाका चड म्हत्व आसा. गोंय हें कोंकणी राज्य आनी कोंकणी भाशेचें मूळ पीठ. दुसरें, गोंयांत कोंकणीभाशी भोवसंख्य आसात (दुसऱ्या क्रमांकाचेर आशिल्ली मराठी आपली मायभास म्हूण सांगतल्यां परस ८ लाखांनी चड आसात). हाका लागून कोंकणीचो फुडार गोंयांत थारतलो. ज्या राज्यांत कोंकणी लोक अल्पसंख्य आसात थंय न्हय. गुजरात राज्यांतलो आंकडो १,८५,७६५ हे संख्येन

**देशांतली कोंकणी आनी लोकांचे आंकडे**

| भारत, राज्यां आनी हेर वाठार | जनगणना २००१ | जनगणना २०११ |
|---|---|---|
| भारत | २४,८९,०१५ | २२,५६,५०२ |
| जम्मू-काश्मीर | ९० | ७९ |
| हिमाचल प्रदेश | २५ | ८० |
| पंजाब | ७६ | १६५ |
| चंदीगढ | ७४ | ८६ |
| उत्तराखंड | ५३ | ८४ |
| हरयाणा | २०६ | ४३२ |
| दिल्ली | १,७६७ | १,५५३ |
| राजस्थान | १६ | २५५ |
| उत्तर प्रदेश | ३२३ | ३३५ |
| बिहार | ७८ | २३ |
| सिक्कीम | १७ | २७ |
| अरुणाचल प्रदेश | २५ | ५५ |
| नागालँड | ७४ | ५१ |
| मणिपूर | १४ | ३२ |
| मिझोराम | ४३ | ५४ |
| मेघालय | ६६ | ६८ |
| आसाम | १५६ | ४१३ |
| पं. बंगाल | ९६० | ५०६ |
| झारखंड | ३१० | २६५ |
| ओडिशा | ३,२८० | ७,५८७ |
| छत्तिस गढ | १८२ | १७३ |
| मध्य प्रदेश | ९८७ | ८१४ |
| गुजरात | १,९०,८५७ | ५,०९२ |
| दमण-दीव | २२९ | १४२ |
| दादरा-नगर हवेली | २२,७९५ | ७,७५६ |
| महाराष्ट्र | ६,५८२,५९ | ३,९९,२५५ |
| आंध्र प्रदेश | ३,१२९ | २,७२९ |
| कर्नाटक | ७,६८,०३९ | ७,८८,२९४ |
| गोंय | ७,६९,८८८ | ९,६४,३०५ |
| लक्षद्वीप | ३१० | १ |
| केरळ | ६१,३७६ | ६९,४४९ |
| तामीळ नाडू | ४,६५७ | ६,०९८ |
| पुडुचेरी | ६३ | १०१ |
| अंदमान आनी निकोबार जुंवे | ४४ | ९९ |

देंवलो हाचो परिणाम नगण्य. गोंयांत तो देंवता जाल्यार भिरांत उपरासतली. पूण तशें घडूंक ना. गोंयांत कोंकणीचें बळ लोकसंख्येचे नदरेन वाडलां ही बरी गजाल. हेंच धोरण फुडें वचूंक जाय. जांणी नसायेन वा अज्ञानान लोकां मदीं गैरसमज पातळावपाचो यत्न केला ते कोंकणीचें बरें चिंतपी न्हय. तांचे मदलें गोंयकारपण आटून गेला. केनयाचो विचारवंत आनी व्हड लेखक एंगुगी वा थाँगो सांगता ते भाशेन, 'वसाहतवादांत करमेल्ले बुद्दी'चीं हीं मनशां. तांचे बुद्दीक तो 'colonised minds' हीं उतरां लायता. गोंयचे मुक्तीक ५६ वर्सां जावन गेलीं तरी असलीं 'colonised minds' अदीं-मदीं मेळटात.

इंग्लीश ही आपली मायभास अशें सांगपी ९७६५ मनशां २०११ वर्सा गोंयांत आसलीं. २०२१ वर्सा जनगणना जातली तेन्ना हो आंकडो वाडपाची शक्यताय आसा. गोंय सरकाराचीं शिक्षण, भाशा, संस्कृताय हांचे विशींचीं धोरणां हे परिस्थितीक जबाबदार आसात. हो आंकडो वाडत गेलो जाल्यार गोंयांत एक नवो वर्ग निर्माण जातलो; त्या वर्गाक 'अँग्लो इंडियन्स' हे चालीचेर 'इंडो अँग्लिकन्स' म्हूण वळखुचें पडटलें!

## देशांतलें चित्र

देशांतलें कोंकणी विशींचें चित्र दुसऱ्या तकट्यांत पळोवंक मेळटा. जंय जंय कोंकणीची मायभास म्हूण नोंद जाल्या तें तें राज्य, संघप्रदेश वा केंद्रशासीत प्रदेश हांचो आस्पाव ह्या तकट्यांत आसा. कोंकणी आपली मायभास म्हूण सांगपी लोकांचे २०११ चे जनगणनेंतले आंकडे दिल्यात आनी तुळा करपाक सोपें जावचें म्हूण २००१ वर्सांतले जनगणनेचेय आंकडे दिल्यात. चित्र आसा तें अशें-

कोंकणी आपली मायभास म्हूण सांगपी लोकांचो देशांतलो वट्ट आंकडो आसा २२,५६,५०२. राज्यां, संघप्रदेश आनी केंद्रशासीत प्रदेश हांचे मदीं चडांत चड आंकडो आसा तो गोंयांत. तो आंकडो म्हळ्यार ९,६४,३०५. गोंयां फाटोफाट आसा तो आंकडो कर्नाटकांतलो आनी तो ७,८८,२९४. ताचे फाटल्यान मेळटा तो आंकडो महाराष्ट्रांत आनी तो ३,९९,२५५. केरळांतलो आंकडो आसा ६९,४४९. मागीर, दादरा-नगर हवेलींत ७,७५६, ओडिशांत ७,५८७, तामीळ नाडु राज्यांत ६,०९८ आनी गुजरातांत ५०९२ अशे आंकडे मेळटात. हेर कडले आंकडे ल्हान आसात. देशांतल्या वट्ट ३५ वाठारांनी कोंकणीची मायभास म्हूण नोंद जाल्ली आसा.

२००१ वर्सांतले जनगणनेंत कोंकणी विशींचो आंकडो आसलो २४,८९,०१५. धा वर्सां उप्रांत, म्हळ्यार २०११ वर्सांतले जनगणनेंत तो २२,५६,५०२ जालो. हाचो अर्थ २,३२,५१३ हे संख्येन तो उणो जालो. तो खंय उणो जालो तें पळयनासतना कांय जाणांनी काडली जीब लायली ताळ्याक अशें केलां. आंकड्यांचो अभ्यास वा तांची तुळा करतना एक गजाल मतींत धरूंक जाय ती अशी की देशांत गोंय हें एकूच राज्य आसा जंय कोंकणीभाशी लोक भोवसंख्य आसा. हेर कडेन तो अल्पसंख्य आसा. गोंय कडेक दवरून हेर ३४ वाठारांतले चित्र पळयलें जाल्यार उण्यांत उणो आंकडो लक्षव्दीपांत आसा तो १. व्हडांत व्हड आंकडो मेळटा तो कर्नाटकांत आनी तो ७,८८,२९४.

## आंकड्यांची तुळा

२०११ वर्सांतल्या आंकड्यांची तुळा २००१ वर्सांतल्या आंकड्यां कडेन केली जाल्यार कांय गजाली स्पश्ट जातात. आंकडे वाढप वा देंवप हांचे विशीं मात् तर्क करचे पडटात.

गोंय, कर्नाटक, केरळ, तामीळनाडू, ओडिशा आनी हेर कांय वाठारांनी वाढ जाल्या. गोंयांतली वाढ सुमार २ लाखांची आसा तर कर्नाटकांतली सुमार २० हजार, केरळांतली सुमार ८ हजार, ओडिशांतली सुमार ४ हजार आनी तामीळनाडु राज्यांतली सुमार देड हजार आसा. महाराष्ट्र आनी गुजरात ह्या राज्यांनी आंकडे व्हड प्रमाणांत देंवल्यात. दादरा-नगर हवेली वाठारांतलोय आंकडो सुमार पंदरा हजारांनी देंवला. कोंकणी आपली मायभास म्हूण सांगतल्यांचो आंकडो चडांत चड देंवला तो महाराष्ट्रांत. तो ६,५८,२५९ आशिल्लो तो ३,९९,२५५ जाला. गुजरातांतलो आंकडो १,९०,८५७ आसलो तो फकत ५०९२ जाला. ह्या दोनूय राज्यांनी मेळून ४,४४,७६९ येदें अंतर पडला. गोंयांत आनी हेर कडेन वाढ जाल्ल्यान हें वट्ट अंतर पडलां तें, २,३२,५१३.

आंकड्यांत वाढ जाता तिकाय कारणां आसतात. पूण तीं भोव करून सभावीक आसतात. आंकडो व्हड प्रमाणांत देंवता तेन्ना मात् ताचे फाटल्यान खाशेलीं कारणां आसचीं पडटात. हेच खातीर महाराष्ट्रांतलें २,५९,००४ ह्या आंकड्याचें अंतर आनी गुजरातेंतलें १,८५,७६५ इतलें अंतर हांचे विशीं विचार-अभ्यास जावपाक जाय. आयचे घटकेक हे घडणुकेचीं कारणां आसूंक जाय तितलीं स्पश्ट नात. मात तर्काच्या आदारान तीं सोदपाचो यत्न आमच्यांनी करूंक जाता.

## कितें घडलां जायत?

एक तर्क असो की खूब वर्सां आदीं जीं कोंकणीभाशी कुटुंबां मुंबय वचून राबितो करून राविल्लीं तीं घरांत कोंकणी उलयतालीं आनी जनगणने वेळार मायभास कोंकणी म्हूण सांगतालीं. उपरांत पिळग्यो बदल्ल्यो तेन्ना परिसराच्या प्रभावा खाला नव्यो पिळग्यो मराठी उलोवंक लागल्यो आनी ल्हवु ल्हवु मायभास मराठी म्हूण सांगूंक लागल्यो. परिणामीं, कोंकणी मायभास म्हूण सांगपी मनशांचो आंकडो देंवत गेलो. हे प्रक्रियेक आदार जालो तो दोन गजालींचो. पयली, कोंकणी आनी मराठी ह्यो दोनूय इंडो-आर्यन कुळांतल्यो भासो आनी एकामेकांक लागींच्यो. मराठी सामकीच परकी आनी अनवळखी अशेंय नाशिल्लें. दुसरी गजाल म्हळ्यार, चड लोकांची संस्कृताय उण्या लोकांचे संस्कृतायेक गिळटा हें संवसारांत घडत आयलां. हें ल्हान प्रमाणांत गोंयांतूय घडलां. आदीं मराठी, गुजराती, कन्नड ह्या संस्कृतायांतल्यान आयिल्ल्या कुटुंबांतल्यो हालींच्यो पिळग्यो कोंकणी संस्कृतायेंत भरसून गेल्यात. ही प्रक्रिया आडावप हें अशक्य नासलें तरी खूब कठीण.

दुसरो तर्क असो की मुंबय हें व्हड व्यापारी आनी उद्देगीक

महानगर आशिल्ल्यान नोकरी-धंद्याच्यो संदी खूब आसताल्यो. पुर्तुगाली वसाहतवादाच्या काळांत तर गोंयकारांक मुंबय शारांतल्या त्या संदींनी तारल्यात. ते भायर, उंचल्या शिक्षणा खातीर कोंकणीभाशी विद्यार्थ्यांक मुंबय हें म्हत्वाचें केंद्र आसतालें. ह्या कारणां खातीर मुंबय वताले ते लोक थंयचो कोंकणी मनशांचो देंवत वचपी आंकडो कांय प्रमाणांत भरून काडटाले. गोंयचे मुक्ती उपरांत ही भर उणी जायत वचून आज लागीं-लागीं थांबल्या. हाचो परिणाम म्हूण देंवत गेला तो आंकडो व्हड जाला. तो २,५९,००४ चेर पावला हाचे वयल्यान दिसता की आनिकूय कारणां आसूं येतात. तांचो सोद घेवपाची गरज आसा आनी जंय उपाय करुंयेता थंय तो करपाची गरज आसा. कोंकणीभाशी समाजा मुखार हें आव्हान उबें आसा.

गुजरात राज्यांत आंकडो व्हड प्रमाणांत देंवला हाचें कारण, म्हाका दिसता, वेगळे तरेचें आसा. त्या राज्यांत 'कुकणा' नांवाची एक जमात रावता. ही जमात शिक्षणीक आनी अर्थीक नदरेन फाटीं उरल्या. हे जमातींतले लोक जी भास उलयतात ती गुजराती वा ते भाशेची बोली न्हय. 'कोंकण' आनी 'कुकणा' ह्या उतरां मदीं थोडी समानताय आसली तरी तांचे मदीं कसलेंच नातें ना अशें कोंकणा विशीं ज्या इतिहासकारांनी वा अभ्यासकांनी बरयलां तांचें मत आसा. पूण २० व्या शेंकड्याचे अखेरेक ते जमातीचो असो समज जालो की तांची भास ही कोंकणीची बोली आनी तांची जमात ही कोंकणीभाशी समाजाचोच एक वांटो. २००१ वर्साचे जनगणने वेळार तांचो तसोच समज आसलो आनी देखून तांणी आपली मायभास कोंकणी म्हूण सांगलें. १,९०,८५७ हो ते जनगणनेंतलो आंकडो पळोवन जायत्या जाणांक अजाप जाल्लें आनी वासपूस करतकूच कुकणा जमाती विशींची खबर कळिल्ली. घडये २०११ चे जनगणने आदीं ते जमातीचो तो समज ना जालो आनी जनगणने वेळार तांणी कोंकणीचें नांव घेतलें ना. तांणी किरें केलें वा खंयची भास मायभास म्हूण सांगली हें अजून कळूंक ना.

| गोंयांतल्यो मायभासो आनी लोकांचो आंकडो | | |
|---|---|---|
| मायभास | जनगणना २००१ | जनगणना २०११ |
| कोंकणी | ७,६९,८८८ | ९,६४,३०५ |
| मराठी | ३,०४,२०८ | १,५८,७८७ |
| हिंदी | ७६,७७५ | १,५०,०१७ |
| कन्नड | ७४,६१५ | ६७,९२३ |
| उर्दू | ५४,१६३ | ४१,२४२ |
| मल्याळम | १५,०८१ | १२,९८३ |
| तेलगु | ११,९२६ | ११,११६ |
| बंगाली | ४,१११ | ७,०९९ |
| तामीळ | ७,९०३ | ६,९४७ |
| गुजराती | ९,२७३ | ६,८४६ |
| मणिपूरी | ४९ | ५,८३० |
| ओडिया | २,६८१ | ५,५५८ |
| नेपाळी | २,१३५ | २,६०० |
| पंजाबी | १,८१५ | १,९५९ |
| आसामी | १९५ | १,१०७ |
| संस्कृत | ४६ | १,०५५ |
| सिंधी | ५२७ | ६५६ |
| संथाली | २४ | ४३० |
| काश्मीर | ४७२ | ३७२ |
| मैथिली | १६४ | २८९ |
| डोग्री | ९३ | १०५ |
| बोडो | ७ | ६२ |
| तुळू | ७९६ | ९२९ |
| इंग्लीश | ८,१९० | ९,७६५ |

### गोंयांतली वाढ म्हत्वाची

जे मेरेन गोंयांत कोंकणी विशींचो आंकडो वाडटा ते मेरेन महाराष्ट्र वा गुजरात सारक्या राज्यांत तो देंवलो म्हूण व्हडलीशी भिरांत ना. कोंकणी मरणाचे दिशेन वचपी (endangered) भाशां मदीं ना आनी ती मायभास म्हूण सांगपी लोकांचो आंकडो २४ लाखां वयल्यान २२ लाखांचेर आयलो म्हूण कोंकणी मरना. अशें असलें तरी खंयचीय भास उलोवपी लोकांचो आंकडो उणो जायत वचप हें ते भाशेच्या फुडाराचे नदरेन बरें लक्षण न्हय. १९७१ सावन २००१ मेरेन कोंकणीचो आंकडो वाडत गेल्लो तो असो -

१९७१............ १५,०८,४३२
१९८१............ १५,७०,१०८
१९९१............ १७,६०,६०७
२००१............ २४,८९,०१५

पयलेच खेपे तो २०११ वर्साचे जनगणनेंत देंवला. ही एके तरेची शिटकावणी अशेंच मानूंक जाय.

हाचे भायर आनीक एक मुद्दो आसा. कोंकणीभाशी लोकांचो खरो आंकडो अजून उक्तो जायना. आदीं सांगल्यांत त्या कारणांत लागून महाराष्ट्र राज्यांत सुदरप जावप कठीण. पूण गोंय, कर्नाटक आनी केरळ ह्या तीन राज्यांनी खरो आंकडो उक्तो जावचो म्हूण यत्न करुं येतात. गोंयांत जांची मायभास मराठी अशीं १,५८,७८७ मनशां आसात हें खरें न्हय. 'आमी कोंकणी उलयतात पूण आमची मायभास मराठी' अशी भुमिका घेवपी लाखा वयर मनशां त्या आंकड्यांत आसात. जागृताय वाडोवन आनी नाटकांत सवंग करतना कांय जाणांनी आंगार घाल्ली वस्त्रां समजिकायेन देंवोवंक लावन गोंयांतलो आंकडो सत्याक लागीं हाडुंयेता.

### खऱ्या आंकड्याचो सोद

कर्नाटकांतलो आंकडो धा लाखां परस चड आसा. पूण सामाजीक आनी अर्थीक नदरेन फाटीं उरिल्ले कांय घटक आपली मायभास कोंकणी म्हूण सांगनात. आपणाक मेळटात ते वा मेळूंक शकतात ते कांय लाब व्हगडावचे पडत अशी भिरांत तांकां दिसता. त्या विशयाचो अभ्यास करून तांचे मदीं जागृताय करची पडटली.

*(पान ११ चेर)*



१७,६०,६०७ दाखयिल्ली तेन्ना चळवळींतल्या फुडाऱ्यांनी नियाळ केल्लो. उपरांत जनजागृतीचें काम हातांत घेतलें तेन्ना कांय गजाली उक्ताडार आयल्यो. कर्नाटकांत कोंकणी मनीस म्हळ्यार सारस्वत बामण अशें समीकरण जाल्ल्यान खूब जाण आपणांक कोंकणी अशें मानिनासलो. पूण जनगणनेंत आपली भाशा कोंकणी अशें बरयताले. दक्षीण कन्नडांतलो जीएसबी समाज अर्थीक नदरेन घटमूट आसलो. तांकांच हेर लोक कोंकणी समाज अशें लेखतालो. एक फावट मणिपालच्या हॉस्पिटलांत गेल्ले कडेन म्हाका एक लेडी डॉक्टर मेळ्ळी. तिच्या ॲप्रनाचेर डिसौझा नांव आसलें. हांवें पयलीं इंग्लिशीन विचारलें ती कोंकणी काय म्हूण. ताचेर तिणे 'ना, हांव क्रिस्तांव' म्हळें. हांव अजापलों. मागीर तिणें स्पश्ट केलें की ती कोंकणी उलयता पूण ती कोंकणी न्हय. हाचो दुसरो प्रत्यय आमकां कारवारच्या कोंकणी साहित्य संमेलनांत आयिल्लो. ज्ञानपीठ जैतिवंत शिवराम कारंथांनी केल्ल्या उक्तावणाच्या भाशणांतल्यान कोंकणी म्हळ्यार जी.एस.बी. असो तांचो समज जाला हें आमकां कळ्ळें. त्या उपरांत म्हजे सयत अनेक जाणांनी तांकां प्रत्यक्ष मेळून तांच्या वक्तव्याक आक्षेप घेतिल्लो. अशा गैरसमजांक लागून गरजेवंत दुर्बळ घटकांक सरकारी येवजणांचो लाव मेळपाक

# पुरुशार्थी पुतांच्या हातांत कोंकणीचो सुगुर्वो

**दामोदर मावजो**

२०११ चो जनगणना अहवाल उजवाडाक आयलो आनी देशांतल्या कोंकणी भाशकांची संख्या देंवल्या हे खबरेन कोंकणी संवसारांत सुमारा भायर खवदळ घालो. कोंकणीक मरणकळा लागल्या, थोड्याच काळान ती मृतभास जावं येता, कोंकणी लोकय कोंकणीक फाट करूंक लागला असो हुसको आनी भिरांत प्रसार माध्यमां उक्तावंक लागली. कोंकणीच्या मळार वावरत आयिल्ल्यांक ही गजाल नवी न्हय. दरवेळा जनगणनेचो अहवाल येता आनी कोंकणी भाशकांची संख्या सेन्ससांत दाखयल्या ते परस दुपेटीन चड आसा असो दावो म्हालगडे करीत आयल्यात. आतांय करतात.

१९७५ वर्सा साहित्य अकादेमीन कोंकणीक मान्यताय दीत सावन आमी देशांतल्या कोंकणी भाशकांचो अदमास केल्लो तो चाळीस लाखां वयर आसलो. आठ धा लाख गोंयांत, वीस पंचवीस लाख कर्नाटकांत, सात आठ लाख केरळांत, चार पांच लाख महाराष्ट्रांत आनी देश भर पातळिल्ले आनीक दोन तीन लाख अशें तें गणीत आशिल्लें. १९९१ चे जनगणनेंत कोंकणी भाशकांची संख्या आडखळी येवंक लागल्यो तेन्ना ते स्वताक कोंकणी म्हणपाचें लिपोवंक लागले. हीच गत केरळी कोंकणी भाशकांची. भोव करून कोंकणी उलोवपी कुणबी समाज आरक्षण मेळचें ना हें भिरांतेन कोंकणी म्हणपाचें लिपयतालो. कोंकणी चळवळीच्या फुडाऱ्यांनी तांची भेट घेवन तांकां कोंकणीच्या मुखेल प्रवाहांत हाडपाचो यशस्वी येत्न केल्ल्यान २००१ चे जनगणनेंत कोंकणी भाशकांची संख्या २४,८९,०१५ इतली लागली. आतां २०११ त ती २२,५६,००० लागल्या. हाचो अर्थ हांव इतलोच लायतां की फाटली धा वर्सां आमी वावुरपी थोडे सुस्तावले, आमचो नेट देंवलो, हाचो परिणाम म्हूण ही देंवणी पळोवंक मेळ्ळ्या.

वयर सांगल्या ती संख्या राष्ट्रीय पावंड्या वयली. कोंकणीचें मूळपीठ जें गोंय, थंयची संख्या हालल्या व्हय? ना. २००१ चे गणनेप्रमाण गोंयच्या कोंकणी भाशकांची संख्या ७,६९,८८८ आसली. ती आतां ९,४०,००० जाल्या. अशी वाडली कित्याक घडलें तें पळोवंया. पयली गजाल म्हळ्यार गोंयांत रावपी गोंयकारांचें संतती

नियमन. तांचे लोकसंख्या वाडीचें प्रमाण लागीं लागीं शुन्य आसा. म्हळ्यार जितले जल्माक येतात तितले मरतात. मागीर कोंकणी भाशकांत ही वाड कशी जाली? म्हज्या मत्तान गोंयकारां मदीं आयिल्ले समजिकायेचें प्रमाण वाडलां. विलिनीकरणवादाक लागून 'कोंकणी ही मराठीची बोली देखून गोंयकारांची आवयभास मराठी' असो बुद्धीभेद चलतालो. म्हाका याद जाता, कोंकणी प्रजेच्या राजभास आंदोलना वेळार कांय राष्ट्रीय पावंड्या वयले पत्रकार गोंयां आयिल्ले तांणी सांगिल्ली ही खबर. तांणी उत्तर गोंयच्या एका गांवांतल्या मानायांच्या पंगडाक विचारलें, तांची मातृभाशा खंयची? लोकांनी जाप दिली 'मराठी'. एका पत्रकाराक मराठी येताली. तो तांचे कडेन मराठी उलोवपाक लागलो. तांणी सांगलें, 'आमकां मराठी उलोवपाक येना पूण आमची भास मराठी.' तो काळ वेगळो आसलो. नवे पिळगेक वास्तवाची जाण आयल्या.

२००१ वर्साचे गणनेंत गोंयच्या मराठी भाशकांची संख्या ३,०४,२०८ आसली. ती २०११ वर्साचे गणनेंत अर्दान उणी जावन १,५८,००० इतली देंवल्या. हाचोच अर्थ ह्या देड लाखान कोंकणी आपली भास म्हूण नोंद केल्या. भौसांतल्या तरनाट्यांक स्वत्व होलमलां. कोंकणी-मराठी विशीं तांच्या मनांत गोंदळ ना. गोंयकारांचें खाशेलेपण म्हळ्यार ताणें आपणांक मराठी भास बरी येता हाचो अभिमान बाळगिला. तो मराठी पेपर वाचता, जमता जाल्यार मराठींत बरयताय. पूण आपूण कोंकणी भाशीक हें तो वळखला. ताचें पडबींब २०११ चे गणनेंत दिश्टी पडलां.

१९९१ वर्सा महाराष्ट्रांत ३,१२,६१८ कोंकणी उलोवपी आसले. २००१ वर्सा ते ६,५८,२५९ इतले वाडले आनी २०११वर्सा ती संख्या देंवन ३ लाख ९९ हजार जाली. हीच गजाल गुजरातेंतली. २००१ वर्सा थंय खंय १,९०,५५७ कोंकणी भाशीक आसले. ते अकस्मात गडगडल्यात. ताचेर हालींच मोहनदास पै हांणी 'धा वर्सांच्या काळांत अशें बदल जावंकच शकनात. जनगणनेची पुनर्तपासणी जावंक जाय', अशी प्रतिक्रिया दिल्या.

तें कितेंय आसलें तरी शेंकड्यांनी वर्साचे हद्दपारी उपरांत पुनरागमन केल्ली, वर्सांसंखेचे बंदखणीचे पास तोडून मुक्त जाल्ली आनी नव्या हावेसांचो फुरफुरो घेवन हेर भयणभासां वांगडा उदरगतीचे सर्तेत देंविल्ली आमची भास - तिच्या सुगुर्व्याची जतनाय आनी नियाळ घेवप ही आमची मुळावी लागणूक आसा. देखून ह्या लेखाचो आटाप.

सरकार आपणाली जापसालदारकी असुदाय फाफुडटा. कोंकणीच्या मळार लोकांकच अनास्था आसा, ताका आमी कितें करपाचें, अशें सरकार सदांच म्हणत आयलां. मागीर तें दिगंबराचें आसूं वा मनोहराचें. लोकांचें हीत कित्यांत आसा तें तांकां लागना. लोकांक कितें जाय तें दिवपाक तत्पर आशिल्लें सरकार हें - आजून कोंकणी अकादेमीचो अध्यक्ष कित्याक नेमना? दूरदर्शनाचो दर्जो वाडोवपाचो कांयच येत्न आजून कित्याक जायना? राजभास कायदो फकत लोकांच्या तोंडाक पाना पुसपाक? ताची कारवाय कित्याक जायना? संवसार भर मानून घेतिल्ले आवय भाशेंतल्यान मुळावें शिक्षण दिवपाचो नेम ह्या सरकारान मान्य ना. असल्या सरकारा कडल्यान लोकहिताची आनी कोंकणी अस्मिताय राखपाची अपेक्षा कशी बाळगुपाची?

कोंकणी राजभास कायद्याचे प्रस्तावनेंतच म्हळां ते प्रमाण कोंकणी ही आसा गोंयच्या ९५% लोकांची भास. ही खबर १९८७ वर्साची. १९९१ वर्साचे जनगणने प्रमाण गोंयची लोकसंख्या आसली ११,७०,०००. २००१ वर्सा ती जाली १३,४८,०००. आतां २००१ वर्सा उजवाडा आयिल्ले खबरेनुसार ती जाल्या १४,५९,०००. आदी सांगिल्ले प्रमाण गोंयकारांचे जनन-मरण प्रमाण सारकें आसा अशें मानून घेतलें जाल्यार गोंय राज्यांत १९८७ ते २०११ मेरेनच्या काळांत साडेतीन लाख बिगर गोंयकार स्थायीक जाल्यात. अनधिकृत अदमासा प्रमाण आयचे घटकेक गोंयचे लोकसंख्येंत लागीं लागीं ५०% लोक स्थलांतरीत गोंयकार आसात. तांतलो कामगार लोक हो गरजे पोटीं कोंकणी उलयतां आनी आपल्या भुरग्यांक कोंकणी शिकयता. धवाडो आनी उच्च शिक्षीत लोक मात गोंयकारां कडेन लेगीत इंग्लीश आनी हिंदी उलयता. आनी आमी गोंयकार? आमकां त्यो भासो बऱ्यो येतात हें दाखोवपाक झेतान तांचे भाशेंत संवाद सादतात. तांणी गोंयकार जावन गोंयां रावचें अशें जर आमकां दिसता जाल्यार आमी तांचे कडेन कोंकणीच उलोवपाक नाका? गोंयकार जेन्ना कर्नाटकांत, महाराष्ट्रांत, केरळांत वा दिल्ली, पंजाबांत रावतात तेन्ना तांकां त्या त्या राज्याचे भाशेंत उलोवचें पडटा. पूण गोंयांत रावतल्यांचे कोंकणी बगर जाता. हो दोश आमचो. अशिक्षीत वा अर्दशिक्षीत बिगर गोंयकारांची भुरगीं इतली बरी कोंकणी उलयतात की फुडले गणनेंत, गोंयकार आपणाली भास कितेंय सांगूं, जांकां तुमी घांटी म्हणटात तांची आवयभास कोंकणी म्हूण लागपाची आसा. मागीर खरेंच तांकां गोंयकार म्हणूंक फावो.

गोंयां एक विरोधाभास जरूर दिश्टी पडटा. आनी ताचें कोंकणीचे विरोधक भांडवल करतात. समेस्त गोंयकारांची भास कोंकणी आसुनूय गोंयांत एक कोंकणी दिसाळें 'भांगरभूंय' आनी एक रोमींतलें 'गोंयचो आवाज' अशीं दोन दिसाळीं, तींय टामटीम चलतात. ताका कारणां खूब आसात. पूण तीं दिवपाची ही सुवात न्हय. ज्या गोंयांत फकत देड लाख, तेय बी जनगणनेंत दाखयलां म्हूण खरें मानल्यार, मराठी भाशक आसात थंय णव मराठी दैनिकां चलतात आनी किमान तीन तरी खूब बरीं खपतात. हे गणीत तथाकथीत मराठीवाद्यांक सोयीचें दिसता. तांका मागीर याद करून दिवची पडटा - जनगणनेंत फकत ९७६५ इंग्लीश भाशक आसुनूय पांच इंग्लीश दिसाळीं गोंयां चलतात, अशें कित्याक? मुखेल कारण म्हळ्यार गोंयकारांच्या काळजांत कोंकणीचो मोग आसा तरी ते हेर भासांचो दुस्वास करिनात. देख दिवंची जाल्यार - मराठी पेपरांनी कोंकणी लेखकांचें साहित्य वाचूंक मेळटा. पूण कोंकणी पेपर वा नेमाळ्यांनी बरोवपी मराठी लेखक मेळप कठीण.

मुळाव्या शाळांची गत अशीच. इंग्लीश माध्यमाचो सोंस आशिल्ल्या पयशेकार पालकांक लागून कोंकणी-मराठी शाळांनी धाडपाक हेर

पालकूय खांकुडयत. सरकारी शाळा तर गरीब दुर्बळां खातीरच चलतात अशें चित्र आसा. ही गजाल गोंयांतच घडटा अशें न्हय. केरळांत जेन्ना इंग्लीश शाळा वाडूंक लागल्यो तेन्ना थंयचोय लोक चाळवल्लो. तांणी आंदोलन सुरू केलें. मल्याळम भाशेक धोको उपरासतलो हे भावनेन तांणी 'सेव्ह मल्यालम' आंदोलन चलयलें. हांगा कोंकणीचो मोग जिबे पुरतो दवरतात थंय अशा चळवळीचें सपन लेगीत पडचें ना. पूण ते खातीर फकत पालकांक दोश दिवन उपकरचें ना. जो मेरेन कोंकणी शाळेंत दर्जेदार शिक्षण मेळटलें हाची खातरी जायना तो मेरेन हें अशेंच चलपाचें. अशा वेळार, तोखणाय जावंक जाय ती कोंकणी भाशा मंडळ चलयता तें कोंकणी मुळावे शाळेची. असल्यो धा शाळा गोंयांत हेर कडेन चलूंक लागूं दी. मागीर पळयात पालक कशे आपूण जावन येतले भुरग्यांक घेवन.

भारत सरकारान जणेका भुरग्याक शिक्षणाचो अधिकार दिला. पूण ह्या कायद्याचो सोयीस्कर अर्थ लावन 'माध्यम वेंचपाचो अधिकार पालकांक दिला' अशें म्हणीत इंग्लीश माध्यमांक सरकारी मान्यताय आनी पालव मेळचो म्हूण आंदोलन जाता. ह्या आंदोलनाक जातीय-धर्मीक रूप दिल्ल्यान तें विकृत जावंक लागलां. हीच गत लिपीभेदांची. रोमी लिपयेंतल्यान जर साहित्य निर्मिती जाता जाल्यार तिका कडसारपाचो येत्न जावंक फावना. पूण दोशीं वटेन लोकांचे चुकता. रोमीचो पुरस्कार म्हळ्यार देवनागरीक विरोध अशें कित्याक? हालींच हांव दाल्गाद अकादेमीचे एके कार्यावळीक मुजरत गेल्लो. थंय एकल्यान रोमी कोंकणी ही वेगळी भास असो उल्लेख केलो तेन्ना हांव भायर सरून आयलों. उपरांत आयोजकांनी तागेलें वक्तव्य चुकलें अशी फोडणीशी केली तरी मनां प्रदुशीत करपी विव्दाट्यांक कडेक दवरपाचें भान आयोजकांनी दवरूंक जाय आसलें. लिपयेक विरोध हो भाशेचो विरोध हें लक्षांत दवरलें जाल्यार समजिकायेच्या वातावरणांत प्रस्न सुटावे करप सोपें जांव येता. तशें जातलें तेन्ना आमची शक्त वाडूंक पावतली.

पांचवी यत्ते थावन धावी मेरेन दुसरी भास म्हूण कोंकणी अनिवार्य करपाक विरोध करपी लोक आसात. धावेक संस्कृत, फ्रेंच वा पुर्तुगेज भास घेतल्यार पेपराक मार्क चड मेळटात असो एक भ्रम लोकांच्या मनांत आसा. आयज शिक्षण ज्ञाना खातीर न्हय तर मार्का खातीर जाय. अशें जाल्ल्यान शिक्षणाची आनी पदव्यांची पत देंवता हाचें भान पालकांक ना. ह्या मळारूय जाग्रताय जावपाची गरज आसा.

शिक्षणाचो आनी पोटाचो संबंद लावपी लोकांक दोश दिवन उपकरचें ना. भुरग्याचो फुडार सुगूर जावचो, ताका बरी नोकरी मेळची, राष्ट्री-अंतरराष्ट्री मळांर तो खंयच उणो पडचो न्हय, अशें दिसप सभावीक. कोंकणी विशय घेवन बी.ए., एम.ए. पास जाल्ल्यांक जर नोकरी मेळची ना जाल्यार त्या शिक्षणाचो उपेग कितें? ज्या राज्याची कोंकणी ही राजभास आसा त्या राज्याच्या सरकारची जबाबदारी आसा ह्या भुरग्यांक रोजगार संदी उपलब्ध करून दिवपाची. नोकरे खातीर कोंकणी अनिवार्य म्हणटात आनी मराठीचें गिन्यान आसप इश्ट अशें ताका जोडटात तेन्नाच सरकाराची कोंकणी विशींची उदासीनताय लक्षांत येता. जाका मराठीचो गंध ना अशा गोंयकारांक नोकरेची संद न्हयकारपाची ही येवजण अशें दिसूंक लागता. आयज जेन्ना ६९% लोकांची कोंकणी आनी ११% ची मराठी अशें जनगणना सांगता तेन्ना ही तरतूद फाटीं घेवंक जाय. पूण कसलोच निर्णय ठामपणान घेवंक अनमनप हें सरकारचें खाशेलेपणच जालां. कालपयरूच वाचलें, अंदुच्यान गोंय विद्यापीठान खंय संस्कृत विभाग उगडपाचें थारायलां. फुडलो विचार केला काय? शिकयतले कोण? विभाग उगडचे पयलीं लायक गोंयकार अध्यापक प्रशिक्षीत करूंक जाय आसले. केल्यात व्हय? आतां आमी भायल्यान शिकोवपी हाडटले. ते मागीर नोकरेंत कायम जातले, तांचीं कुटुंबां येतलीं आनी गोंयची वाडिल्ली लोकसंख्या आनीक वाडयतलीं. शिता फुडें मीठ खावपाची आमची ही संवय!

कोंकणी शिकल्यार ताचो फुडाराक कसो फायदो जांव येता. तें फकत कोंकणी शिकून आयज वयर सरिल्ले जैतिवंतच अदीक बरे तरेन पटोवन दिवंक शकतले. जे कोण डॉक्टर, इंजिनियर, पायलट वा प्राध्यापक जाल्यात तांणी आपणाली देख तांचे मुखार दवरची. रोजगार संदीची जाण दिवंची. आयज पत्रकारिता, अणकार, संगणकी वापर करपाक प्रशिक्षीत कोंकणी विद्यार्थ्यांक वाव आसा. विधानसभेंत, लोकसभेंत, राज्यसभेंत वा म्हायती प्रसारण खात्यांनी बरोवपी आनी अणकारप्यांची गरज आसा. अशा संदीची म्हायती लोकां मेरेन पावयली जाल्यार भुरगीं आपखोशेन धांवत कोंकणी वटेन येतलीं. गोंयकार जर आयज घाळ रावलो जाल्यार ह्यो सगल्यो संदी कोंकणी आत्मसात केल्ले बिगर गोंयकार हातासतले आनी गोंयकार मागीर तांकां 'घांटी', 'भायले' अशें कितें म्हणीत रावतले.

हालींच आसामाच्या सरकारान एक अध्यादेश काडून जांकां असमिया भास येना तांकां राज्य सोडून वचचें पडटलें अशें जाहीर केलां. तो अध्यादेश राजकी हेतून काडला आनी तो लोकहिताचो न्हय अशें म्हजें मत आसा. पूण जर फुडारांत गोंयांत असो कायदो जालो जाल्यार गोंयकारांकच गोंय सोडून वचचें पडचें ना मू? अशें जावचें न्हयच. पूण हे नदरेनच विचार करून दवरूंक जाय.

संवसारांतल्यो हजारांनी भासो विश्वीकरणाचे प्रक्रियेंत मरूंक लागल्यात ही खरी खबर. कांय भासो तिगोवपा खातीर झुंजा पावंड्यार येत्न चालू आसात. व्हडलीं नुसतीं बारीक नुसत्याक गिळटात तशो थोड्यो भासो व्हड भासांचे भकीक पडूंक लागल्यात हेंय खरें. पूण एक गजाल निक्षून सांगतां - कोंकणी दुबळी जाल्ल्यान ती एक दीस मृतभास जातली हें फुटकें वाजंतर कोंकणीच्या इतिहासान तिचे प्रतिकार शक्तीचें बळगें दाखोवन दिल्लें आसा. जी भास दुश्ट परचक्र येवनूय गणमणली ना, घातकी हुकुमशाये मुखार बागवली ना, जी १६८४ वर्सा ज्यारी केल्ल्या भासबंदीच्या अध्यादेशाक बांडगली ना. वयल्यान ल्हान आसून म्हान जाल्या ती कोंकणी असल्या मोडांत मोडची तर नाच, हालची-धोलचीय ना. थोडे आसले तरी तिचे पुरुशार्थी पूत तिचो फुडार पर्जळीत करपाक वावुरतले.

संपर्क: 09422059509



# रांपण

## सखाराम शेणवी बोरकार

*स. गोपाळकृष्ण भोबे हांणी गोंयच्या नुस्त्याचेर ''मासे आणि मी'' हें मराठींतल्यान सोबीत पुस्तक उजवाडायलां. १९६६ वर्सा उजवाडाक आयिल्लें हें पुस्तक आयज दुर्मिळ जालां. ह्या पुस्तकांतल्या ''रांपण'' ह्या लेखाचो हो अणकार.*

सुक्राचें चान्नें उदेंतीच्या तांबशेंत मिसळूंक लागलें तशें पांयांत जोतें घालून हांवें वेळेची वाट धल्ली. फांतोडे वेल्या थंड किरांव वाऱ्याच्या झोतान म्हज्या आंगा वेली आळसाय पयस केली. पावलां सडसडीत पडूंक लागलीं. बैल गाड्यांचो तांबडो रस्तो सोंपलो आनी रेवेंत मिस्तुराद जाल्लो तांबडो रस्तो सुरू जालो. जोत्यांचो चरचर आवाज आतां बंद जाल्लो. मदलें शेत तिरप्या वाटेन हुंपून हांव वेळेर वचपाचे पांय वाटेर आयलों. कोणेतरी मुद्दाम रोयिल्ले भशेन लजे व्हंकलेचीं झोंपां वाटेर दोनय वटांनी हारींनी वाडिल्लीं. तांकां हात लायलो काय तांचीं पानां आपसूंक बंद जातात. सोबीत अस्तुरेच्यो पिंगश्यो पातकड्यो बंद जावच्यो तश्यो!

म्हजी आस भागना. कांय खीण ह्या झोंपां कडेन खेळत रांवचेशें दिसता. हात लायलो रे लायलो, मोगीच्या खांदार मोठ्या विस्वासान मान दवरपी एका मोगिके भशेन ती फांदयेर मान उडयतात. हळूच एका झोंपाच्या म्हऱ्यांत वचून पानां बंद जावंचे पयलींच दोनूय तळव्यांत तांकां धरून हांव तीं फाफशीतां. हाताच्या तळव्यांक फांदयेचे बारीक बारीक कांटे तोंपतात. आनी सगळें झोंपच आपलीं पानां बंद करून बाविल्ले भशेन थंड पडटा.

श्ये! श्ये! ही मजा पळयत चड वेळ उबें रावप बरोबर न्ही. साळगांवच्यो बेन्नी (नुस्तें विकती बायलो) वेळेर येंवचे पयलींच म्हाका वेळेर पांय दवरूंक जाय. पांडूचें व्हडें सोदपाक जाय. ताचे कडल्यान मेळटा तें नुस्तें घेवंक जाय. पांडून तशें म्हाका उतर दिलां.

साळगांवच्यो बेन्नी मोठ्यो वस्ताद! कोंब्याच्या पयल्या सादार त्यो साळगांव सावन तकलेर रिकामी पाटलीं घेवन भायर सरतात आनी तीन साडेतीन मैल चडावाची दोंगरी वाट माड्डून तांबशी जांवचे पयलीं आमचे वेळेर पावतात. पीक आमच्या गांवचें. पूण पोटभर खांवचें साळगांव, पर्राच्या लोकांनी; हो खाशेलो निवाडो!

साळगांव, पर्रा गांवचे लोक फिरग्यांची शिरवीस करून गब्बर जावन रेफोर्माद जाल्ले. रुपयाचो शेंवटो ते देड रुपयाक घेतात. तेखातीर थंयच्यो नुस्तें विकपी बेन्नी सांगतात त्या मोलाक नुस्तें घेतात आनी आमच्या गांवचें पीक पुस्सोन साळगांव, पर्रा घेवन वतात. आमी फकत 'आं' करून वाऱ्याच्या झोता भशेन धांवपी त्या बेन्न्यांक पळयत रावतात; 'पीक त्या गांवांत भीक' ही म्हण तोंडांत पुटपुटत सुक्या नुस्त्याचें हुमण करपाची ओर्द घरकान्नीक दिवन वताक तेळींत बसतात.

पूण आयज हांवें थारायिल्लेंच की बेन्नी आपलीं पांटलीं घेवन वेळेर येंवचे पयलींच व्हडें गांठपाचें. मेळटा तें झोंबून घेवपाचें आनी तांचेर जैत मेळोवपाचें. फाटले आठ दीस नुस्त्याचो वास लेगीत घेवंक मेळूंक नासलो; पूण दुर्दैवान पांडू आयज रिकामें व्हडें घेवन दर्यादिगेर आयलो. सद्दा नुस्तें मारपाक वचपी व्हडीं लेगीत आख्खी रात भोंव-भोंव भोंवलीं. पूण फुकट! कांय म्हटल्यार कांयच मेळ्ळें ना. जीव आनीक बेजार जालो.

दर्याचे हें अशेंच. एका कसबी कलावंताच्या कोल्ला भशेन. केन्ना केन्ना तो असो फुगून बसता की विचारपाचें न्हय. म्हयनो म्हयनो, दोन दोन म्हयने खारव्यांचो आनी नुस्तें खावप्यांचो जीव गळ्या कडेन हाडटा. सगळें वातावरण सुकिल्ले भशेन जाता. उदका विणें नुस्तें फडफडटा तशीं मनशां नुस्त्या विणें विडविडपाक लागतात. खाल्लें जिवाक लागना आसलें. ल्हान भुरगीं तर जेवणाक हात लेगीत लायनात. गांवच्यो बेन्नी रिकामीं पाटलीं घेवन जड पावलांनी दर्यादिगे वेल्यान परततात.

सुरवेक सुरवेक खारव्यांच्या खोपींत इस्पिकांच्या खेळाक नेट येता; पूण बरेच दीस कांयच येणावळ ना म्हण्टगीर हुस्को जावपाक लागता. रांपणीं सारक्यो करून शिंगारिल्ले व्हंकले भशेन व्हड्यांत भरून केन्नाच्यो दवरल्यात. मात्सो सुगावो लागपाची फुरसद; व्हडी धुकल्लींच दर्यांत. रांपणीचे पात्रांव सदांच वरा वरान दर्या देगेर आशिल्ल्या माडांचेर चडून आनी हातांच्या बोटांचो आडोस कपलार करून, पयस धारे मेरेन नदर लावन सुस्कारो सोडीत सकयल देंवतात. देवदेवस्की जाता. आंगवण्यो बी जातात आनी एक दीस दर्याक काकूळट येता.

तो पळयात, एका रांपणीचो पात्रांव मारकू. सडसडीत माडा वेल्यान देंवता. पयसुल्ल्यान किर्तें तरी ताचे नदरेक पडलां. काळ्या कुपाचे सावळे भशेन एक पट्टो आखाता वटेन सरकता. तो पट्टो थरावीक अंतरा मेरेन वेळेर घुसतलो आनी वोल्त घेवन परत वतलो. तो परतूचे पयलींच वचून बेगीन रांपण घालूंक जाय; पूण मानाय खंय आसात? कोण च्या पिवपाक, कोण काजू फेणयेच्या वा कोण माडयेच्या एका घोंटा खातीर तावेर्नाच्या पात्रांवाची सायबाजात्रा करपांत गुल्ल जाला. कोण वेळे वयल्या एकाद्र्या घरांत खबऱ्यो पेटीत बसला. खोंपीत फकत पांच स जाण आसात.

आतां एकच गडबड- एकच धांदळ सुरू जाली. मेळटा तितलें मनीसबळ घेवन मारकून रांपण भरून दवरिल्लें व्हडें दर्यांत सोडलें. वेळेर वाऱ्या भशेन खबर पातळ्ळी आनी ही धांवपळ सुरू जाली. रांपणीच्या दोराचे उजवे बाजूक जंय दोन मानायांनीं धरून माडाक बांदिल्ली थंय आतां धा बारा मानाय एकठांय जाले. बाकीचे पनेळांतल्यान रांपण आशिल्ल्या व्हड्या कडेन गेले.

आखातांत सांपडिल्लो तो काळो पट्टो आतां पुराय रांपणीच्या जाळ्यांत शिरकलो. काम फिशाल! रांपणींचो दोर दाव्या आनी उजव्या बाजूक धरून वीस वीस मानांय तो ओडपाक लागले. ओड चडच जड आसा. रांपणींत किर्तें सांपडलां तें कांय कळना. कारण कांय नुस्त्याचो मोसम सोंपून आतां खूब दीस जाल्ले आसात. अश्या वेळार मारकू कडेन उलोवप म्हळ्यार पिशेपणाचें. तो आपलेच भिरकेंत आसा. दोळ्यांत तेल घालून चारूय वटांनी ताका नदर मारूंक जाय. पांच स हजार फुटांची ताची रांपण. खरवती भशेन 'नाळ' हें नुस्तें रांपणींत सांपडलें आनी रांपणीचें जाळें पिंजलें जाल्यार सगळेंच सोंपलें. सगळ्या म्हयन्यांची तकालस फुकट. सात आठ फूट लांबायेची 'घोळ' आनी तेदेच लांबायेचें 'चणाक' लेगीत जाळ्याक धपको दिवन जाळें पिंजता. म्हुणूनच ल्हान ल्हान पनेळ घेवन रांपणीच्या सेर्का भायर कांय मनशां राखण करतात.

तीं पळयात! बक्यांचीं भिरींच्या भिरीं येवन रांपणीक उफेवन दवरपी पाळांचेर हारीनी बसल्यांत. रांपण कितली पयस आसा हाचो सारको अदमास आमकां तांणी दिलो. दर्या देगेर चकाटां मारीत बसपी कांय जाण्ट्या खारव्यांक हाचो जुस्त अदमास आसता. रांपण वयर येवपाक कितलो वगत आसा तें कळना. विचारून तरी पळोवंया-

''कितलो वेळ लागतलो रे विसू?''

''कमीत कमी साडेतीन वरां तरी लागतलीं!'' विसू दोळे पिटपिटावन सांगता. विसू रांपणीचें काम करपी. हे वेळार लेगीत रांपणीच्या मदेकांत सांपडपी व्हड्ल्या नुस्त्यांचो बंदोबस्त करपाक तोच आसपाचो; पूण दोन म्हयन्या आदीं वागोळ्यान आपले शेपटेन ताच्या पांयार धपको घालो आनी ताच्या पांयाक विखार जालो. तरी बरें वागोळ्यात आपले शेपटेचो भाल्या सारको कांटो तोपलो ना. शेपटे भोंवतणचे खरवती भशेन बारीक बारीक दांत तितलेच लागले आनी जिवा वयलें बोटाचेर निस्तरलें. आजून ताचें फेरिद पेंखपाक कितले दीस लागतले देव जाणा. गांवठी वखदाचे कितलेशेच लेप ताणें लायल्यात आनी फेरिदाचे वयर मोराचें पान लेगीत बांदलां.

मनशाक अपंगूळ करून ताका बरीच ख्यास्त खावोवंक लावपी ह्या वागोळ्यांच्यो पांच स जाती आसात. बाकीच्या नुस्त्यां भशेन ताका सोंड ना, व्हडलेंशें मुस्कट ना, ताच्या आंगार कांटे-खवळां नात. लांब चौकोनी आशिल्लें वागोळ्याचें आंग ताच्या पांखट्यांनीं पुराय भरलां. तें बरेचशें लिबलिबीत. पूण ताची शेपटी मात सामकी घट. शेपटेच्या धपक्यान ते आपल्या दुस्मानाक कांय न्ही करून आड घालता. आनी तितल्यानय भागलें ना जाल्यार शेपटेच्या पोंतार आशिल्लो कांटो भाल्या भशेन मारून रक्तबंबाळ करता. त्या कांट्याचें इल्लें जरी कुस मनशाच्या आंगांत उल्लें जाल्यार फेरीद बेगीन पेखना अशें म्हण्टात. हो कांटो तोंपून कितलेशेच खारवी मेल्ल्याच्यो देखी आसात.

वागोळ्यांचे जातींत सगळ्यांत बळिश्ट 'पाकट'. ताची लांबाय रुंदाय पांच ते स फुटांची. शेपटी ताच्या आंगा परस दुपेटीन लांब. कापून हातांत घेतल्यार हंटरा भशेन दिसता कांय वागोळ्यांक ल्हानशी सोंड आसता आनी घुघमा भशेन दोळेय आसतात. तोंडा कडेन व्हडले पांखाटे आशिल्ल्या मुशीच्या आंगाचें आनी फाटिरूय पांखाटे आशिल्लें वागोळ्याची आनीक एक जात आसा. हाका पळोवपाक वीट दिसता; पूण तें खावपाक रुचीक आसता अशें खावपी सांगतात. चड करून तें किरिस्तांव लोकांच्या खूब घोस्ताचें.

वागोळ्या भशेन मनशांचेर घुरी घालपी आनी धपको दिवन मनशांक आड उडोवपी आनीक एक नुस्त्याची जात म्हळ्यार 'मोरी'. हाका खवळां नात. मणक्याचो कांटो सोडलो तर कांटेय चड नात; पूण ताची कात जनावरां भशेन निबर. असल्या जातींत खरवती भशेन लांब सोंड आशिल्ली 'नाळ' दाट फळया भशेन मुस्कट आशिल्लो 'कणार', कुत्र्या भशेन सोंड आशिल्लो 'सुणारो', विमाना भशेन आंग आशिल्लो 'लांजा' आनी गोबऱ्या आंगाचो 'मोरो' हे आसात. आंगान सगळेच व्हडले. व्हडल्या दर्यांत ते वीस वीस पंचवीस फुटांचे आसतात अशे पातमारी वेले लोक सांगतात, पूण आखातांत उदक कमी आशिल्ल्यान, चडांत चड स सात फुटां वयर अदीक लांबायेचीं - असलीं नुस्तीं येवंक शकनात.

मोरये भितर साधारण दोन अडेच फुटांची मोरी खावपाक चड रुचीक. काळे पांखाटे आशिल्ली मोरी तर सगळ्यांत चड रुचीक. गरम मसालो आनी सोय भाजून घेवन मोरयेचे ल्हान ल्हान कुडके खोबरेल तेलान तळसून त्या वांटपांत शिजोवपाचे आनी थोडे कातलेचे बारीक कुडके घालपाचे. आनी तांदळा पिठाच्या भाकऱ्यां सांगताक तें मोरयेचें शेकशेकें खावपाचें. 'आहा! क्या बात है! ताकद बढाने वाला इससे बढीया खुराक क्या हो सकता है?' मोरयेचे ल्हान ल्हान कुडके रुचीन चाबपाचे. कांटयांचोय त्रास ना.

मोरये भशेनच आंगार खवळां नाशिल्लें दुसरें रुचीक नुस्तें म्हळ्यार 'सांगाळो'. पांच स फुटां मेरेनचे व्हडले सांगाळें हांवें पळयल्यात. तांचें आंग मोरपांखाच्या कोरा भशेन चकचकता. तांच्या आंगांत चड कांटे आसनात. वागोळ्या इतले नासले तरी सांगाळ्याचेय कांटे

विखारीच. खाडमिश्यां वेल्यान सांगाळो वळखूपाचो. सात आठ इंच लांबायेचे न्हंयंतले सांगाळे खूब रूचीक. ताचे परस व्हडल्या सांगाळ्यांच्या पोटांत मणयां भशेन गोबरा कोराचे गुळे आसतात. कांय लोक ते गुळे उकडून खातात.

सांगाळ्याचें आनी मसाल्याचें जमना. सांगाळ्याचें आनी मिरयांचे खूब जमता. थोड्यो मिरसांगो, हळद आनी तिखसाण येवपा खातीर सुमार देड कुलेर मिरयांपिठो घेवन सोयेचें बारीक वांटप करपाचें आनी तातूंत बारकेले सांगाळे घालून धबधबीत करपाचें. ह्या धबधबीतांत रुची खातीर तेफळां आनी आमसाणी खातीर भिंडाचीं सोलां घालपाचीं. खंयच्याय तांदळांच्या शिता बराबर हें धबधबीत घेवपाचें. हें धबधबीत शितांत आशिल्ल्या फातर गुण्यांची याद लेगीत येवंक दिवंचें ना.

खवळां नाशिल्ल्या नुस्त्यांत चड कांटे नासतात. पूण खवळां नाशिल्लें, चड कांटेय नाशिल्लें आनी व्हडलें नुस्तें आसूनय मोव कातीचें नुस्तें म्हळ्यार विस्वण. हो सगळ्यांच्या घोस्ताचो. चडांत चड उडपी हें नुस्तें. सर्तीक आयिल्ले भशेन ताचें उडप. एका फाटल्यान एक अशे उडपी विस्वणांची रांग पळोवंचेली. चडांत चड खोल आनी दुगदुगीत उदकांत रावपी हें नुस्तें. हें नुस्तें - चड करून गळाक लागिल्लें- तीन साडेतीन फूट लांब आनी णव धा इंच रुंद सगळ्यांत चड रुचीक. विस्वण कापतगीर ताचें पोस्त वाटकुळेंच दिसूंक जाय. हळद मिरसांग लावन तांदळाच्या आळेणांत घोळोवन खोबरेल तेलांत सपाट तव्याचेर तळिल्लीं विस्वणाचीं हुनहुनीत पोस्तां खावपाचो नवाबी थाट आदल्या जल्माच्या पुण्यायेन भोगचो.



विस्वण हो नुस्त्यांचो राजा. विस्वणा भशेनच 'रावस', आंगार तिबें आशिल्लो तांबसो 'गोबरो'. अस्सल जातीचो 'गोबरो', व्हडल्यो 'मुडदश्यो', 'व्हडल्यो 'चखचाण्यो', 'तांबोशी', 'पालू', 'चणाक', व्हड्डल्यो 'घोळश्यो', 'शेंवटें' हिंवूय घरंदाज मंडळी, म्हणजे गर्भ श्रीमंता भशेन. तांचें दर्यांत वावरप लेगीत सामकें झेताचें. बारीक लोकां मदीं तीं नात. तांकां खावपीय लोक पयशेकार. ह्या नुस्त्याच्या चार पांच ल्हान नगांक लेगीत रुपयांनी पयशे मेजचे पडटात. आख्ख्या विस्वणाचें मोल- नगद आठ धा रुपया बोल्सांत आसले शिवाय सामान्य मनशान विचारचें न्हय.

ह्या नुस्त्यांचें हुमण लेगीत दाटगुळो वांटप आनी आपरोस घाल्लें. सगळें कशें ज्युस्ताजुस्त प्रमाणांत घालपाक जाय. नाल्ल कारवो उपकारना. तो चड सुकोय नासचो. तांबडे कांदेय मात्शे गोडसार जाय. आनी निमणे बारीक कांदो शिनून दिल्लीं फोडणां करपूंक जायनात. आनी करप्याचे हातय फिशाल जाय. दाट दुदाची खीर जशी तुमच्यांनी वाटी वाटी भरून सेगीत पिवंक जायना, नाजाल्यार अस्सल साजूक तुपाची बदाम पिश्त्याची मिठाई जशी पोटभर खांवक जायना तशेंच विस्वण, मुड्डोश्यो, खडपी पालू, शेंवटे हांचें हुमण हात राखून खावपाक जाय. विस्वणाचीं पोस्तां म्हळार बदामी हालव्याच्या कापां भशेन. रांवसाचींय पोस्तां तशींच. तांकां हात लावपी त्याच तोलामोलाचो जाय.

नुस्तें जितलें कांट्यांचें तितलें तें चड रुचीक. कल्ली, भिंग, पात्साळीं, विंणगां, काट्यांळीं, पेडी हीं नुस्तीं इतलीं रुचीक की विचारपाची सोय ना. कल्ली ही तातूंत राणये भशेन आनी बाकीचीं सगळीं हिचो भौस. कल्लेचें सगळें आंग कांट्यांनी भरिल्लें. पूण हे कांटे लांब आनी दाट आशिल्ल्यान ते सवकासायेन काडून रुचीन कल्ली खांवची.

ह्या सगळ्या कांट्यांच्या नुस्त्याचें हुमण कांद्या शिवाय- म्हणजे हळद मिरसांग घाल्ल्या वांटपाची-आंबट तीख. रुचीक तेफळां जायच. कोंकणांत हाका 'चिरफळ' म्हणटात. चण्या येदें हें फळ सुकलें म्हण्टगीर वेर येवन तें फुट्टां. ताचीं दोन अर्दां जावन भितरली मिरयां सारकी काळी कुळकुळीत बी झडटा. ओंस आशिल्ल्या ह्या कांट्यांच्या नुस्त्याचें चरबटपण मारपाक वा, तांच्या आंगांत आशिल्लें तेलाक रूच येवपा खातीर ह्या नुस्त्याच्या हुमणांत सात आठ तेफळां चेंचून घालप हो एक सेर्त उपाय. ताज्या जित्या तेफळांचे बाबतींत कांय विचारूंकच नाका. ताजें नुस्तें तशींच ताजी तेफळां आसचीं. मिठायेक जशी रुचीक वेलची तशेंच नुस्त्याच्या हुमणांक तेफळां. ज्या कोणे मनशान तेफळांचे आनी नुस्त्याच्या हुमणा कडेन सांगात जोडून ह्या रानफळाचो उद्धार केलो ताचे लाख लाख उपकार. तेफळां आनी भिंडाचीं सोलां-सैमान कोंकणी मनशाक दिल्ली ही खास देण. उत्तर हिंदुस्तानांतल्या लोकांच्या नशिबांत ह्यो दोनय गजाली नात.

कल्ली व्हडल्या गल्यांची उत्तम. ताजे कल्लेच्या फाटीर काळो-निळो आनी पाचवो असो मिस्तुराद कोराचो एक गाड पट्टो आसता. तिचें भडक गुलाबी तोंड उघडलें की दाट लाळेचो थर दिश्टी पडटा. कल्लेचे लांब तिरकस कुडके करपाक जाय. तसल्या कुडक्यांतल्यान कांटे सरळ सुटटात. खातना चड आडखळ जायना. कल्लेचे तळिल्लें कुडकें खावपाची खोस म्हणजे शिवराक जेवप्याक काजू बर्फीचो कुडको तोंडांत उडयतगीर जितली खोस जाता तितली. कल्लेचो कुडको खातना चुकून एकाद्रो कांटो ताळ्याक लागलो जाल्यार जीव

बेजार जाता. अश्या वेळार सुक्या शिताची उंडी ताळ्यांत घाली ताळो मेकळो. पूण चुकून कांटो ताळ्याक लागलो तरी निजाचो खावपी पानांतलें बाकीचे सगळें सांडीत पूण कल्लेचो उरिल्लो कुडको खाले शिवाय मात पाना वयल्यान उठचो ना.

तेफळांचें लागींचें नातें बांगडे, पेडवे आनी ताल्ले असल्या मोसमी नुस्त्यां कडेन चड आसा. खरेपणी तें नातें इतलें घट्ट आसा की ह्या तिगांयचें हुमण नाजाल्यार धबधबीत करतलो जाल्यार तेफळां घाले शिवाय ताका रुचच येवंची ना. ह्या नुस्त्यांचो मोसम आनी तेफळांच्या पिकाचो मोसम एकूच. तेफळां हीं ह्याच नुस्त्यां खातीर निर्माण जाल्यांत कांय कितें देवाक खबर!

अस्ताईची बंदीश तबल्याच्या चक्रदारा बराबर एकाच वांगडा समेर येवंची तशी तेफळां आनी पेडवे भाद्रपदांत एकाच वांगडा समेर येतात. तेफळांचो पयलो घोंस गणपती मुखार माटोळेक बांदतात. पंचमीक चड करून पेडवे येतात. आनी हे पयले पेडवे गणपती पावयलो की, घरांत हाडटात. माटोळेचो तो तेफळांचो घोंस सोडोवन तांतलीं कांय तेफळां पेडव्याच्या हुमणांत घालीं की त्या हुमणाचो असो सुरबूस वास सुट्टा की फकत तें येवजिल्यारूच जिबेर लाळ गळटा. जितीं तेफळां घालून पेडव्यांचे हुमण खांवचें तें ह्याच दिसांनी.

बांगड्यांची, पेडव्यांची आनी ताल्ल्यांची तेफळां कडेन कितलीय आमिजाद आसली तरी ज्या एका नगा कडेन तांचें जुळना तें म्हळ्यार तांचें सुकें. ह्या तिगांयच्याय सुक्यांत तेफळ चलना. तें कांदो घालूनच करपाक जाय. थोडक्यांत सांगपाचे म्हळ्यार जातूंत कांदो जाय आसता तातूंत तेफळ चलना. आनी जातूंत तेफळ जाय आसता तातूंत कांदो चलना. असो तो सोपो सरळ हिशेब.

फुलां फळांक भार येवपाक जसो थारावीक काळ आसता तसो तो नुस्त्याकय आसता. आतां बांगड्यांचेंच पळयात. आश्विनाचे सुरवेक व्हडीं घेवन दर्यांत पागपाक वचप्यांक ल्हान ल्हान बांगडुल्यो मेळपाक लागतात. तीन साडे तीन इंचाच्या पेडव्यां बराबर त्यो पडटात. आनी म्हयन्या भरांत वेंता येदो बांगडो रांपणीक, व्हड्यांक, मागाक आनी सौध्याक पडपाक लागता. म्हणजे ह्या तेंपा भितर तांची वाड जाता जावंक जाय. मोसम सोंपतगीर तो जर दुसऱ्या दर्यांत वता अशी कल्पना केली तर थारावीक मोसमांतच बांगडुल्यांची ल्हान ल्हान पोरां कशीं येंवचीं आनी हळू हळू तांचो आकार वाडत कसो वचचो? सैमांतल्या बाकींच्या पिकां भशेन अचकीत उदेवपी हेंवूय एक पीक आसा काय?

बांगड्याच्या दिसांनी दुसरें खंयचेंय नुस्तें दर्या देगेर दिसना. फकत बांगडो एके बांगडोच. बांगड्यांचें भिरें लाखाच्या चोम्यांनी येता. एकाद्र्या व्हडल्या कुपाची सावळी सवकास येवची तशी मळबांत कुपां नासतना आखातांत घुसता ती दिश्टी पडटा. उदकाचो रंग मुदार जाला अशें दिसता. मदेंच तांतलो एक चोमो उदका वयर उडटा आनी दुसऱ्या जाग्यार बुचकळी मारता. तो देखाव पळोवपाक सुंदर दिसता. एका फाटल्यान एक अशे हजारांनी बांगडे उसळून दुसरे सुवातेर बुचकळी मारतना, सायकलीच्या फाटल्या रोदाक बोमाडो बांदून ती चलयतना तो एक फर्रऽऽऽ असो एकसुरी आवाज येता तसो एक सारको आवाज कितल्या वेळ आयकूंक येत रावता. दिसाचो बांगडो उदका पोंद सून दोन फूट सकयल्यान चलता पूण रातीचो मात जवळ जवळ उदका वयर चलता. रातचो उदका वयर चलतना 'बुचू-बुचू' असो एक सारको आवाज येत रावता. आनी उदका वयर आपल्याच उजवाडांत कसल्या तरी मणयांची रास चलता असो भास जाता.

बांगड्याच्या मोसमांत दर्यादेगेर जंय जंय नुस्तेमारी चलता थंय थंय फकत बांगडे आनी बांगडेच पडटात; प्रत्येक वेळेची रेंव वेगळी तशी ह्या वेळेचेर मेळपी बांगड्यांची रूचय वेगवेगळी. आमच्या गांवच्या बांगड्यां परस कांदोळीं आनी कळंगुटचे बांगडे चड रुचीक. तर दोनापावल आनी ताळगांवचे बांगडे तांचे परस चड रुचीक. शिरदोन वा कुमयाळें हांगा मेळपी बांगडो शेंवट्या परस अदीक रुचीक. बांगडो उबो चिरून तातूंत हळद आनी मिरसांगे पिठो भरून घाण्या वेल्या फेस येवपी तेलान तळून खांवचो... व्वा!

बांगड्यांच्या धबधबितांत मुळ्याच्यो फोडी घालच्यो. मुळ्याचो उग्रपणां बांगड्याक आनी बांगड्याचो जो मुळ्याक येता, तो चोखतना जिबेंत उमेदीचें वारें भरता. ह्या शिवाय गोडो मसालो आनी गरम मसालो भरून लेगीत बांगडो तळटात. पूण बांगड्याचो असलो जिनस चड खांवक शकनात. ते परस सादे म्हणजे हळद, मिरसांग आनी थोडी आमटाण लावन आळेणांत घोळोवन खोबरेल तेलांत तळिल्ले चरचरीत बांगड्याचे कुडके खांवचे. ते कितले खाले हाचो हिशेब उरना.

आखाताच्या ठिकाणार रांपणीक एकेका वेळार पंचवीस ते तीस लाख बांगडे पडिल्ले हांवें पळयल्यात. रांपणींच्या एका फेऱ्याक इतले बांगडे पट्टगीर रांपण तडीक ओडून हाडपाक खूब तकालस पडटा. अश्या वेळार रांपण बांदून दवरतात आनी मर्दी व्हडीं घालून बांगडो पागतात. हें पागप तीन दीस लेगीत चालू उरता. मात असलो बांगडो निजाचें नुस्तें खावप्यांक मात घोस्ताक वचना. ते ह्या दिसांनी बांगडे खातात ते मागाचे वा सौध्याचे. तीन दीस बांगडो रांपणींत उरतगीर तो रगत ओंकता. पूण मागाचें तशें जायना. माग म्हळ्यार मोठ्या विणीचें जाळें. ह्या जाळ्याच्या बुराकांत बांगडो गळ्या मेरेन घट्ट फारावता. म्हणून तो रगत ओंकूंक शकना. सौदो म्हळ्यार पंदरा वीस खलाशी आशिल्लें लांब व्हडें. सौदो आखाता भायर तीन चार मैलांचेर वचून बांगडो पागता आनी तो रोखडोच व्हड्यांत भरतात. ते खातीर बांगडो उदका विणे घुस्मट्टा, पूण रक्ताळलेल्लो उरता. रांपणींक लाखांनी लागिल्ले बांगडें रुपया ते बारा आणे हजार ह्या प्रेसाक विकिल्ले हांवें पळयल्यात. (आज तांचो प्रेस चाळीस ते पन्नास पट वाडलां) ह्या बांगड्यांचो आपल्या भाटांतल्या माडांक सारें म्हण भाटकार उपेग करतात. कांय नुस्तेकान्नी अश्या वेळार हजारांनी बांगडे विकते घेतात. बांगड्यांचीं भितल्लीं आंतां काडून पयलीं तापिल्ले रेंवेर सुकोवन तांकां खारायतात. ताचे उप्रांत लांब दोरयेक ओंवून तांकां धा बारा फावटीं वत लावन सुकोवन ते कडक

करतात. ह्या बांगड्यांक खारे बांगडे म्हण्टात. पावसांत पुरुमेंताक तांचो उपेग जातात. वतांत सुकयिल्ले हे बांगडे तण बी घालून एका लाकडाचे पेटयेंत गच्च बांदून दवरल्यार स स म्हयने तांका कांयच जायना. वादळ वाऱ्या खातीर तार्जे नुस्ते मेळपाक कुस्तार जालें की पुरुमेंताक दवरिल्ले हे बांगडे भायर काडटात. बांगड्या भशेनच पेडवे, खांपी, ढोमे, वेल्ल्यो, मोरी, बारीक मोठीं सुंगटां, गालमो हिंवूय खारोवन सुकोवन दवरतात.

लोणच्याचो वास जसो जिबेर लाळ हाडटा तसोच सुको बांगडो रान्नीत घालो की ताचो वास सरभोंवतणी पसरता. ते वेळार निजाच्या नुस्तें खावप्यांचे जिबेरूय तशीच लाळ गळटा. जशे जित्या बांगड्याचे तशेंच सुक्या बांगड्याचे खूब जिनस करपाक जातात. पूण किसमूर हो तांतल्या तातूंत रोखडोच जावपी जिनस. फकत भाजिल्ल्या बांगडे सोडल्यार तातूंत सगळे हरवे नग घालतात. म्हणजे बांगडे बरे भाजून तांचे कांटे बी काडून, बरे सोलून तांच्या शिरांचे बारीक कुडके करपाचे आनी तातूंत आमटाण, मात्सो हळदी पिठो, सुक्या मिरसांगांचो वांटिल्लो गुळो, भरपूर चिरिल्लो कांदो आनी सोय घालून हें सगळें बरें कालयलें की जाली किसमूर!



पूण एके कसबी घरकान्नीन हेच किसमुरीक आनी एके तरेची जोड दिल्ली पळयली. तिणें हांवे वयर बरयलां तशें सगळीं कामां सुटसुटीतपणान म्हळ्यार हळद मिरसांगेचो पिठो घालो, ताचेर आमटाणीचें उदक शिंपडायलें, कांदो, सोय घाली आनी त्या कालवणां मर्दी एक बुराक करून तांतूंत एक पेट्टो इंगळो दवरलो आनी ताचेर एक कुलेर खोबरेल तेल घालें. धुंवर येतगीर तिणें कुशींतले किसमुरीन तो बुराक धांपलो. हांवें विचाल्लें "बाये! हें कितें?" तशी ती म्हणपाक लागली "ही कोळश्याची धुंवरी". ते किसमुरीची रूच मात खऱ्यानीच बरी आसली.

बांगड्यां भशेन ताल्लेय लाखांच्या भिऱ्यांनी चलतात. काळख्या रातीं ताल्ल्यांचें भिरें उदकांत चलतना उदकांत बॅटरी दिव्याचो झोत घालून कोण वाट दाखयता असो भास जाता. बांगड्या परस ताल्ल्याची उडी उंच. उदकांतल्यान कोणतरी मोखून मारता अशी तांची उडी. ताल्ले ल्हान आसतना तांची रूच वेंवची. फुडें व्हडले जातगीर ते चड चरबट जायत वतात. ल्हान ताल्ले निखटेच भाजून खांवचे. व्हडेकार रातचे नुस्तेमारीक वतना सांगाताक कुयण्यांत उकड्या तांदळांची पेज घेवन वतात. आख्खी रात काम करून सकाळीं परततना दर्या देगेर व्हडें लावन तांतलो माल नुस्तेकान्नींक विकलो म्हण्टगीर कांय नुस्तीं ते रेंवेर खोलयो एकठांय करून भाजतात आनी तें तोंडाक लावन कुयण्यांतली पेज रुचीन जेवतात. ताल्ल्यांच्या दिसांनी तांणी अशे तरेन ताल्ले भाजले की ताचो सुवादीक वास वेळेर पसरता. ताची सर मात नुस्त्याच्या दुसऱ्या वासांक येना.

हे भाजिल्ले ताल्ले आपसांत वांटून घेतले म्हण्टगीर ते कशे खातात हें पळोवपाक मजा येतात. खोलयांच्या उज्यान करपल्ले भशेन दिसपी तो हुनहून ताल्लो शेश्टेक धरून खाऱ्या उदकांत बुडयलो म्हण्टगीर ताची खवळांसयत कात सुट्टा आनी भितरलो धवोफुल्ल घोरोप दिश्टी पडटा. शेश्टे मेरेन तो तोंडांत घालपाचो आनी दांतांत दामून सर्र करून ओडपाचो, कांटो सरळ हातांत येता आनी घोरोप तितलो तोंडांत उरता. खातां खातां पेजेची उंडी तोंडांत उडोवपाची. अशे तरेन शें सवायशें ताल्ले खायात्. कितले खाले तें कळपाक लेगीत ना आनी अशे भाजिल्ले ताल्ले कितलेय खाले म्हण ते माल पडनात.

बांगडे ताल्ल्यां परस पेडवे मात पचपाक जड. पेडवो रुचीक बरो लागता पूण तो पचना. पेडव्यांचें सुकें सोडीनच दिसना. पेडव्यांचें सुकें खातना जीब संवकता. हाचेर सामको बरो उपाय म्हळ्यार कांदो, आलें घाल्ल्या ह्या सुक्यांत हळदीचीं दोन पानां घालपाचीं. रुचय बरी आनी जिबूय आपल्या ताब्यांत उरता. चड रुचीक वस्त चड खावपाक शकना. ह्या सुक्याचेंय तशेंच जाता.

बांगडे, ताल्ले आनी पेडवे हांचे जशें पांच स जिनस करून खावपाक जातात तशे बाकिच्या नुस्त्यांचे करपाक येतलेच अशें ना. म्हणजे तसो नेम ना.

चक्क्यांत साकर, जायफळ आनी केशर घालून घोटयलें की ताचें श्रीखंड जाता. तें पुरये बराबर खावपाचें अशी कदिम काळा सावन चाल आसा. ह्या पक्वान्नाचें नांवच श्रीखंड पुरी. आतां हेंच श्रीखंड कोणे बाजरेच्या भाकरे बराबर वा उंड्या बराबर खालें तर ताणें तशें खावचें न्हय म्हण थोडेंच आसा! आनी कोण आपूण शितांत कालोवन खातां म्हण्टलो, वा सान्ना बराबर खातां म्हण्टलो, तर ताका नाका कोण म्हण्टलो? जगा वेगळी वागपी मनशां म्हण्टलीं - तुमी चक्क्यांत साकर घालतात न्हय? मागीर आमी तातूंत गोड घालतले आनी जायफळा वाट्याचें तातूंत तिखी आनी लवंग घालतले! घालात. कोण नाका म्हण्टात? आमी ताका 'श्रीखांड' अशें मोटे उमेदीन

म्हणू. तातूंत कितें व्हडलें? बांगड्याची उड्डमेथी करतात. आनी कल्लेचीय करतात. पूण बांगड्याचे उड्डमेथयेची सर कल्लेचे उड्डमेथयेक येना.

म्हुणूनच बांगड्यांच्या हुमणांत रुची खातीर तेफळां घालतात तशीं तीं शेंवटे, रांवस, मुड्डोश्यो, पालू, विस्वण ह्या नुस्त्यांच्या हुमणांत घालीनात. बांगड्यां हुमणां भशेन तांचें हुमण जांवचें ना अशें न्हय पूण ह्या नुस्त्यांची रुचच वेगळी.

शेंवट्यांचे दोनच नग करतात; हुमण आनी तळप. शेंवटे रांपणींत पडनात. तांका कांटाळेनच धरपाक जाय. शेंवट्यांच्या भिऱ्याची गतीय रातचें पोटभर जेवन सवकास शतपावली करपी सुशेगाद मनशां वरी. शेंवट्यांचें भिरें तांच्या उडपा वेल्यानच कळटा. तांचें उडप उदकांतल्यान सूर मारिल्ले वरी; सर्तीचें पूण सुशेगाद. थारावीक अंतराचेर शेंवट्यांचें भिरें दिसले कीं सुशेगाद तयारी करपाची. सगळी तयारी जातगीर त्या जाग्यार कांटाळी घाली की शेंवटो तातूंत शिरकोलोच. कांटाळी ओडपाक दोन चार मनशां पुरो.

शेंवट्यांत 'कातयाळे' शेंवटे चड उंच उडटात. कातयाळे म्हणजे दाट कातीचे. कातयाळयांच्या पोटांत गाबोळी आसता पूण गाबोळी आशिल्ले शेंवटे चड रुचीक आसतलेच म्हण ना. गाबोळी नाशिल्ले शेंवटेय रुचीक आसतात. शेंवट्यांत तीनचार जाती आसतात. 'शेंवटे', 'सालपे', 'मानमोडे' आनी 'बोय'. सर्वसादारण लोक तांका शेवटेच म्हूण खातात. पूण बारीक नदर माल्यार तांतलो फरक कळून येता. खऱ्या शेंवट्याक माने पासून शेपटे मेरेन एक काळोच पट्टो आसता. मादी शेंवटो मात्सो काळपट आसून एका घरंदाज अस्तुरे भशेन नेट मारपी. सालप्यांच्या मानेर होच पट्टो गोबरा कोराचो आसता. मानमोडे एकाच रंगाचे आनी चेपटे आसतात. बोय आनी शेंवट्यांतलो फरक कळपाक कठीण. पूण शेवट्याचें पोट मात्शें फुगरें आसता. बोय एका सारको आसता आनी ह्या सगळ्यां परस ताची शेपटी रुंद आसता.

एकाच भशेन दिसपी नुस्त्यांक पळोवन केन्ना केन्ना आमी फटवतात. 'विस्वण' आनी 'कोड' हातूंत सारकेपण आसा. तशेंच 'मुड्डोशी' आनी 'टोळयो', 'बांगडो' आनी 'हारो', 'पेडवे' आनी 'ताल्ले', व्हडल्यो 'पेडी' आनी 'भुबरें', 'मोरी' आनी 'सुणारो', बारकेले 'रांवस' आनी 'राणे', 'पालू' आनी 'कायेडें' ह्या नुस्त्यांत खूब सारकेपण आसा.

सुंगटांतच साबार जाती आनी कितलेशेच रंग आसतात. धवीं, तांबडीं, मात्शीं हळडुवीं, लेव पुडी कोराचीं, काळपट, मातये कोराचीं, वयल्यान धवीं पूण पोटा कडेन तांबडे पांय आशिल्लीं, आंगार पटे आशिल्लीं अशी साबार जातींचीं सुंगटां आसात; पूण न्हंयचीं, आगराचीं, मानशेचीं नाजाल्यार खाऱ्या तळ्यांतलीं धवी सुंगटां दिसलीं की जाणकार लोक तांचेर उडयो मारतात. मानशेचीं सुंगटां सामकीं गोड.

न्हंयंक येवपी उधाणांच्या उदकान देगे वयली जमीन धुवन वचपाक जायना म्हूण जाग्या जाग्यार व्हाळ बांदून ताचें उदक तळ्यात सोडटात वा खांचरे तयार करतात. ह्या व्हाळाच्या तोंडार वा मदीं कोण्याची वा मोव लांकडाची जाळी वा लांकडी दार बसयिल्लें आसता. भरतेच्या फोर्सान हें दार आपसूकच उघडटा आनी उदक भितर येता. आनी सुकतेच्या उदकाच्या लोटा बराबर हें दार आपसूकच बंद जाता. भरतेच्या वेळार उदका बराबर भितर सरिल्लें बारीक नुस्तें खांचरांतली बारीक वनस्पत खावपाक गुल्ल आसता. आनी सुकते वेळा बेगीबेगीन परतताना तीका व्हाळाच्या तोंडा वेलें दार बंद जाल्लें दिसता. दाराक दवरिल्ल्या बारीक बारीक खांचींतल्यान उदक निस्तून वता आनी नुस्तें भितरच उरता. आनी तें परत खांचरांत वचून रावता. ही जी त्या दारा कडली वा कोण्याच्या जाळये कडली सुवात आसता तिका 'मानस' म्हण्टात.

धव्या सुंगटाचें हळद मिरसांग घाल्ल्या साद्या वांटपाक उंची हिंगाचें फोण्ण मारून आनी आमसाणी खातीर आंबाडे, बिमलां, राज आंवाळे वा आमलेच्यो फोडी घालून हुमण करतात. हें हुमण आसतगीर तोंडाक लावपाक आनी दुसरें कांयच नाका. निखट्या हुमणानच खावपी गुंग जातात. जेवतगीर उण्यांत उणें पांच स वरां तरी त्या हुमणाचो उजव्या हाताक लागिल्लो तो सुरबूस वास वचना. सुंगटांचे जायते जिनस करपाक मेळटात. कड्डणाच्या मसाल्याच्या तोणाकांत सुवाद येवपा खातीर सुंगटां घालतात. भाज्जेंत घालतात. सुंगटांचें निखटें सुकें, मसाल्याचे दांगर, भुजणें अशें विंगड विंगड जिनस करतात.

वागयांत पटे आशिल्ल्यो धव्यो वागयो बऱ्यो. स सात इंच लांबायेच्या वागयांक बरो सुवाद आसता. त्यो तळून खावपाच्यो. सुंगटांच्या मानेतलें काळे सूत काडल्या शिवाय तीं तशींच खाली तर माल पडपाक शकता अशें जाण्टेले सांगतात. तांबडीं सुंगटां तर जतनायेन खावंक जाय.

न्हंय सोडून खांचरांत आनी तळ्यांत सदांच राबितो करून राविल्लीं काळांदुरां, शेतकां, खरचाण्यो, पटे आशिल्ले करकरे, बुरांटे, बारकेले पालू, शेंवटाळ्यो, घोळश्यो अशें मिस्तूराद नुस्तें खावपाक सामकें घोस्ताचें. तांची रूच जिवीत भर याद उर सारकी. हें नुस्तें खुटावणेक सांपडटा. न्हंयक सुमारा भायर भरती आयली की एक दोन फर्लांगाच्या अंतरार एका सेकांत खूंट पुरून ताका जाळें बांदून दवरतात. जितली भरती चड तितली सुकतीय व्हडली. भरतेच्या उदका सांगाताक देगेवयल्या बारीक झोंपानी फेस वा बारीक वनस्पत खावपाक गुल्ल जाल्लें तें नुस्तें ह्या जाळ्यांत फारावता. हेंवूय नुस्तें सामके रुचीक आनी म्हारगूय बी.

खांपी आनी सोगीं (मानयाळी, मांदेली) ल्हान आसुनय दर्यांत सांपडटात. तीं न्हंयच्या उदकांत येनात. सोगीं भांगराचें कट्टें घाल्ले भशेन नारंगी. काळख्या रातीं सोग्यांचें भिरें उदकांल्यान चलतना शेटीच्या मुशींतल्यान ओतिल्ल्यो भांगराच्यो चिपो एका लांब फळ्या वेल्यान व्हांवत वतात अशें दिसता. चोंय कडेन फांकारिल्लो तो नारंगी उजवाड तुमचें चित्त ओडून घेता. सोग्याक एकसुरी बारीक शेपटी आसता. ही शेपटी दुसऱ्या नुस्त्या भशेन दाव्या बाजूक फुटिल्ली नासता. चरचरीत तळिल्लीं हुनहुनीत सोगीं खावपाक खूब रुचीक

लागतात. खांपयेक जो स्वताचो उजवाड आसा तसो उजवाड दुसऱ्या खंयच्याय नुस्त्याक नां. विजेचे चकचकीत दिवे पेटोवन एकाद्री पाणबुडी उदका पोंदच्यान वचची इतलो तो उजवाड लखलखीत आसता. खांपट्यांचें भिरें उदकांत चलतना दोळे दिपावतात. सोगीं आनी खांपी बाळंतिणीक खावपाक दितात. हें नुस्तें बाळंतिणीन पोटभर खालें जाल्यार सामकें अशक्त बायलेचेंय दूद आटना अशें म्हण्टात. सोग्याचें आनी तेफळांचें बरें जमता. खांपयेक मात कांदो जाय. कित्याक तर सोग्यां इतले खांपीक कांटे नासतात.

असल्या ल्हान नुस्त्यां भितर वेल्ल्यो आनी तोंकयो हांचो आसपाव जाता. ते दर्यांतलें धव्या रंगाचें नुस्तें. नाजूक कालेतीच्या मनश्यांनी तें पोटभर खांवचें. वेल्ल्यो सदांच कितल्योय खाल्यो म्हण कळपाक लेगीत ना. वेल्ल्यो व्हडल्यांत व्हडल्यो तीन ते साडेतीन इंच लांबायेच्यो. वेल्ल्यांत आनीक एक बारीक लांब जात आसा ताका 'मोतयाळी' म्हण्टात. मोतयाळीं ल्हान न्हंयंत मेळटात. आनी कांदो घालून तांचे केल्लें सुकें रुचीक जाता.

तोंकयो तीनचार इंच ते फूटभर लांबायेच्योय आसतात. तोंकयांक लांब चोंच आसता. हातूंत सात आठ इंच लांबायेच्यो आंगार पटे आशिल्ल्यो, खवळांक निळसार रंग आशिल्ल्यो मात्स्यो रुंद खावपाक सामक्यो रुचीक. पूण विटकरो रंग आशिल्ल्यो तोंकयो मात रुच नाशिल्ल्यो. मुड्डश्यां भशेनच तोंकी हें एक खूब नितळ नुस्तें. सप्टेंबर, ऑक्टोबर आनी नोव्हेंबर हो तोकयांचो आनी चड करून वेल्ल्यांचो मोसम. ह्या तीन म्हयन्यांत पागप्यांक वेल्ल्योच मेळटात. धव्याफुल्ल वेल्ल्यांनी व्हडीं भरून भरून दर्या देगेर येतात. नाजूक कालेत आशिल्ले मनीस तांचेर ताव मारतात.

ती पळयात - मारकूची रांपण वयर येवपाक लागली. खारव्यांची भुरगीं धोंपरभर उदकांत रावन रांपणीचे सरभोंवतणी हांग थंय पळून वचपी नुस्तीं - मेळटा तितलीं धरून पांटल्यांत घालतात. ल्हारांय फोर्सांन येवपाक लागल्यांत. आनी एकदांची रांपण ओले रेंवेर ओडून हाडली. पळोवप्यांचे गर्देन एकूच आड्डी माल्ली. 'करबट'! रांपणीक 'करबट' पडलां! मोसमी नुस्त्या खेरीज बाकी दुसरे जातीच्या बारीक मोठ्या मिस्तुराद नुस्त्याक 'करबट' अशें एकूच नांव आसा. कोंकण वाठारांतले लोक अश्या नुस्त्याक 'पंचकर्म' म्हणटात.

जाळ्यांत हांगा थंय बारीक मोठ्यो राशी घाल्यात. कितल्या तरेचें नुस्तें! ढोमे, कल्लेचे बाळे, सुंगटां, पात्साळीं, विसवणाचे कळावे, दोन अडेच फूट लांबायेच्यो मोरी, सोगीं, रंगी बेरंगी कट्टें आशिल्ल्यो कुल्ल्यो, तांबडे बाळे असो तो माल. उण्यांत उणें दोन अडेचशें रुपयांचो; पूण आतां बरोच वगत जाल्ल्या कारणान तो माल दुसऱ्या गांवांनी धाडपाक मेळचो ना. गांवच्योय बेन्नी जाता सर हें नुस्तें गांवांतल्या तिठ्यार व्हरून विकतल्यो. आनी देड दोन म्हयने नुस्तें खावपाची आस मातशी तरी जायना आयज भागतली.

संपर्क: 9923306751



Goan
Linguistic Strength

₹ 3700/-
₹ 190/-
₹ 190/-
₹ 120/-
₹ 145/-
₹ 275/-

Books for your needs..

राजहंस
RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD
1-Meenakshi Bldg. Dr. Wolfango da Silva Marg. Panaji 403 001
Ph: 2220320/2232117 | E-mail: rajhaunsgoa@gmail.com
www.facebook.com/rajhauns | www.rajhauns.com

# अंतर्मुखी कविता

माधव बोरकार

परेश नरेंद्र कामत हो फाटल्या शतमानाच्या निमाण्या दसकांत मुखार आयिल्ले पिळगेंतलो सगल्यांत म्हत्वाचो कवी. भारतीय कवितेच्या इतिहासांत ह्या णव्वदीच्या दसकाक खाशेलें म्हत्व आसा. हें दसक म्हळ्यार सरत आयिल्ल्या शतमानाच्या आमोरेचो काळ. ह्या काळांत संवसाराचें राजकारण, समाजकारण आनी अर्थकारण कूस परतितना दिसता. पर्यायान ताचो परिणाम साहित्यवेव्हाराचेर जालो. ह्या काळांत नव्यो जाणिवो कवितेंत आयिल्ल्यो दिसतात. एक नवो प्रवाह एकूण साहित्यांत खळखळून व्हांवपाक लागलो. आनी बरेच कवी ह्या प्रवाहा बरोबर गेले. ह्या कवींची नदर भायलो संवसार पळोवपी. हे कवी ह्या बदलांची नोंद घेतात. तांच्यो राजकीय आनी सामाजीक जाणिवो खूब खर आसतात. पूण कांय कवी सामके वेगळे प्रकृतीचे आसतात. भायल्या संवसारांत जे बदल घडटात तांचो परिणाम तांचे कवितेचेर जायना. ताचें एक म्हत्वाचें कारण म्हळ्यार तांची अंतर्मूखी नदर. तांकां भायल्या समाज वास्तवांत म्हणपा सारको रस नासता. ज्या समाजांत कवी रावता आनी वावुरता ताचें चित्र तो आपले कवितेंतल्यान चितारताच अशें ना. आमी कवीन सामाजीक, राजकीय जाणिवो आपले कवितेंत व्यक्त करूंक जाय असो आग्रो धरप हें कितलें बरोबर हाचेर विचार जावपाक जाय. सगळेच कवी एकेच तरेच्यो जाणिवो व्यक्त करपाक लागले जाल्यार त्या काळाची कविता एकसुरी जावपाचो भंय आसता. मात कांय कवी एकेच बरोबर दोनूय तरेच्यो कविता रचतात. पान्लो निरुदा ही ताची उत्तम देख. चिली देशाच्या राजकीय क्रांतींत ताणें वांटो घेतलो आनी राजकीय आशयाच्यो कविता बरयल्यो. तेच बरबर चिली देशाचो सैम चितारपी आनी तरल प्रेमसंवेदना व्यक्त करपी कवितेची निर्मणी केली. आमची थळावी देख म्हळ्यार मनोहरराय सरदेसाय हांची कविता, 'तुज्या आंगार म्हज्या आंगार / फुल्ले मोगा मोगरे कळे', अशी शृंगार भावना व्यक्त करता आसतनाच तांणी 'ही लोकशाय' सारकेली परस्पर विरोधी अशीय कविता केली ही लक्षांत घेवपा सारकी गजाल आसा. सामाजीक, राजकीय जाणिवेचो कवी आनी भाव कवी ही दोनूय व्यक्तिमत्वां तांचे भितर एकठांय वावुरतना दिसतात. र. वि. पंडिताचे बाबतींत थोडेंभोव तशेंच म्हणपाक वाव आसा. पूण शंकर रामाणी आनी पांडुरंग भांगी हे निखळ भाव कवी. तांचे कवितेची वाट वेगळी. ह्या वेगळ्या वेगळ्या प्रवाहांक लागून कोंकणी कवितेंत एकेतरेची विविधताय आयल्या.



ह्या संदर्भांत परेश कामतीचे कविते कडेन पळयतना हो कवी रामाणी आनी भांगी हांचे कवितेचें दायज मुखार व्हरतना दिसता. ह्या कवीं मदलें सारकेंपण सहजपणान सोदपाक येता. कित्याक तर तांची कविता प्रकृतीन एक सारकी. ती आत्मनिष्ठ तितलीच व्यक्तिनिष्ठ. तांचे कवितेंत भायल्या संवसाराचें पडबिंब पडिल्लें दिसना. आनी आत्मनिष्ठ कविता ही व्यक्तिनिष्ठ आसपाक जाय. ह्यो दोन प्रवृत्ती एकामेकां पासून वेगळावंक येनात. रॉमेन्टीक कवितेचें ते एक खाशेलेंपण आसा. कामतीच्यो आज मेरेन बरयल्ल्यो कविता पळयल्यार ही एकूच वृत्ती घेवन ती मुखार गेल्ली दिसता. लागीं लागीं तीस वर्सांच्या तिच्या प्रवासांत तिचो सभाव बदलिल्लो दिसना. तिच्या रुपाची रेखणी अदिकादीत सुक्ष्म जाल्ली दिसता. कांय कवी आपले कवितेचो सभाव आनी प्रकृती बदलनात. आनी बदल जालोच जाल्यार तो तिच्या भायल्या रंगाचो. पूण तिचें अंतरंग मात तशेंच उरता. काळा प्रमाण आपले नीज प्रकृतीच्या विरुद्ध आशिल्लो आशय कवितेंत केळोवन तिचें विरुपीकरण केल्ल्या कवींच्यो कांय देखी आसात. बाकीबाबाली कविता लेगीत हे अवस्थेंतल्यान गेल्या. 'दूधसागर' ते 'आनंदभैरवी' ह्या दोन संग्रहांच्या मदल्या काळांत त्यो कवितो तांचे मूळ प्रकृतीक मानवनाशिल्लो सामाजीक आशय घेवन आयिल्ल्यो दिसतात. मागीर मात तांची कविता आपल्या मुळा कडेन आयली. कांय कवी भूतकाळ आनी वर्तमान काळांत जियेतना

भविश्यकाळाचो वेध घेतात. पूण पु. शि. रेगे, शंकर रामाणी सारकिले सौंदर्यवादी कवी निखळ आंतरीक अणभवांक शब्दबद्ध करतात. ते खंयच्याय काळाचो असो विचार करिनात. पांडुरंग भांगी हो हेच जातकुळयेचो कवी. हे कवितेचें दायज परेश कामत मोट्या समर्थपणान मुखार व्हरता अशें म्हणचें पडटा. दर एकलो कवी परंपरेपासून पयस वचूंक शकना. प्रत्येक काळाची म्हूण एक संवेदनशिलताय आसता. तिचे कडेन जुळोवन घेवपाची पिंडधर्म कांय कवींचो आसना हें तांचे कवितेचो विचार करतना मतींत घेवपाक जाय.

परेश कामतीचो 'अळंग' हो पयलो कविता संग्रह धरून ते 'रंगबोली' हो नवो कविता संग्रह हो ताचो कवितेचो प्रवास अभ्यासाचे नदरेन विचार करपा सारको आसा. 'शुभंकर' ह्या ताच्या कविता संग्रहाचे अभ्यासपूर्ण प्रस्तावनेंत नामनेचे समिक्षक डॉ. सोमनाथ कोमरपंत बरयतात: 'आपल्या सृजनशीलतेच्या प्रवासा कडेन आत्मसोदाच्या प्रक्रियेंतल्यान पळोवपाची तांक तांच्यांत आसा. तशें पळोवंक गेल्यार सृजनशीलतेच्या अंतरंगाचो थाव लागप हें भोव कठीण. पूण परेश कामत आपल्या तरल प्रतिभेन ह्या व्यामिश्र प्रक्रियेक नकसूद उतरांनी वेंगायता.' डॉ. कोमरपंताचें हें मत खोडून काडप शक्य ना.

*तांबडी गूंज*
*फुलांची ही रंगबोली*
*रगताची*
*तांबडी गूंज ही भास*
*ओली*

*मदीं*
*तुजे म्हजे*
*तांबडी गूंज ही*
*परमळटा आस*

*येता*
*म्हज्या रगताचो*
*म्हजे चित्रभाशेक वास...*

ही कविता ह्या संग्रहाचे सुरवेकूच येता आनी हे कवितेच्या भावविश्वाचें दार उक्तें करपाची चावी आमच्या हातांत येता. फुलांची ही तांबडीगूंज रंगबोली रगताचो रंग आशिल्ली. हे रंगबोलयेन 'तुजे-म्हजे' मदले परमळीत जावपी आशेक तांबडी गूंज केल्या आनी ताकाच लागून ताचे चित्रभाशेकूच रगताचो वास येता. हे कवितेंत तांबडी गूंज हें उतर रगताच्या रंगा कडेन गाढ नातें सांगता आनी ह्या नात्यांतल्यान एक बंध तयार जाता. तांबडी गूंज हें विशेशण रगताच्या प्रतिमे कडेन एकरूप जाता आनी तातूंतल्यान चित्रभास ही प्रतिमा जल्माक येता. परेशाचे कवितेक रंगांची अनावर अशी ओड आसा. एकेतरेचें ऑब्सेशन अशेंय म्हणूं येता. ही रगताची प्रतिमा शारिरीक संबंदांतल्यान व्यक्त जावपी इंद्रिय संवेदना व्यक्त करता. 'लावण्याचें लखलखपी झुंबर कशी ती दिसता आनी 'तुजें ओलें आंग / तुज्या ग संवेदना / देंवत रावल्यो म्हज्यांत / रावल्यो तरंगत म्हज्या अंतरंगांत. ह्यो रंगसंवेदना अणभवांच्या रुपांत येतात त्यो अव्यक्त वा म्हणुया अमूर्त पांवड्या वेल्यान. देखून कवी:

*हांव चित्रांत*
*सोदूंक लागलों म्हजेच रंग*
*आनी रंगांत भिजिल्लें तुजें रूप*
*रगता सारकें*

तो फुलतोच तांबडो गूंज तिचे पाचव्याचार वेंगेंत आनी फुलत झडत रावता पाकळ्या पाकळ्यांनी तोय तिचेच वेंगेंत. ती ताचे भितर एकरूप जाता तेन्नाय तिचे वेंगेंत रगताची गाज त्या पाकळ्यांनी आयकुपाक आयिल्ल्याचो अणभव हांगा व्यक्त जाता. ह्या कवितांचे शब्दकळेक रंगांच्यो सया आसात तशेच अर्थाचे रंग आसात. तेच भशेन हे कवितेंतल्यान मानसीक स्थितीचीं आंदोलनां व्यक्त जाल्लीं दिसतात. दृश्यां आनी मनाच्यो वेगवेगळ्यो अवस्था परेशाचे कवितेंत एकजीव जातात.

ताचे कवितेंत तांबड्या रंगांच्या सयां बरोबरूच हेर रंग येतात. उटंगाराचो पावस तापिल्ले मातयेक गाढ वेंग घालता आनी ही गाढ वेंग मातयेचें बाह्य आनी अंतरंगूय बदलून उडयता. मातयेच्या काळजांत विलोद फुलून माती भुल्लुसून वता आनी तिका फुटिल्ल्या शिरशिऱ्यांत ती पाचवीचार जाता. आनी 'कल्ल उसयत / बियेन घेतलें अचकीत / एक स्वास मेकळें पाचवेंचार आवर्तन / त्या आवर्तनांत / घुमघुमत रावलीं दिकांनी / एकसारकीं युगानयुगां / बियेच्या अंतर्मनाची / प्रसन्न पाचवी गाज. पाचव्या रंगांतल्या उत्सवांतल्यान सृजनोत्सव सुचोवपी ह्यो वळी. पाचव्या रंगा भशेनूच हळडुवो रंग हे कवितेंत काव्यानुभव जावन येता. वोत तणांत सळसळटा तें एखाद्या सोरपा भशेन आनी परत तण सळसळटा तेंय सोरपा भशेनूच. सोरोप सळसळटा तो तणांत वोता सारकोच. हें वोतूच हळडुवें आनी 'अद्भूत हें हळडुवेंचार / तणांतलें असो हो रंगाचो अणभव. हांगा उतरांचो खेळ आसा. वोताचो, सोरपाचो आनी तणाचो एक रंग जाल्लो दिसता. वयले वयर पळयल्यार कवी हांगा भाशीक क्रिडा करता अशें दिसता. पूण बारकायेन विचार केल्यार तो ह्या रंगाचे प्रतिमेक दृक् परिमाण दिता असो अणभव येतलो. परेशाच्या 'शुभंकर' ह्या कविता संग्रहांत 'आंगाक हळद लायिल्लीं हळडुवींच गिमाळीं वतां' अशी हळडुव्या रंगाची संवेदना जागोवपी प्रतिमा आयल्या ताची हांगा याद जाता.

सकाळ, दनपार आनी सांजवेळ अशे दिसाचे पार धरले जाल्यार सकाळ आनी सांजवेळचें मळब पळोवचें. ह्या दोनूय काळा वेळें मळब सादारण एकसारकें दिसता. ह्या दोनूय काळार मळबाचो रंग तांबसो, निळसो आनी कांयसो किरमिजी आसता आनी खिणाखिणाक ताचो रंग बदलत रावता. मार्क रोथको हो एक अमेरिकन अमूर्त चित्रकार. ताणें आपल्या कॅन्वासार हे मळबाचे बदलत वचपी मूड्स चित्रायल्यात. कांय बाबतींत वासुदेव गायतोंडे हांच्या चित्रांतल्यान होच आशय आपले परीन व्यक्त जाता. तांचीं चित्रां मोनेळीक खेरीत असो अर्थ दिता. सकाळचे परसूय सांजवेळा वेगळीच अशी मनोअवस्था

आसता. ह्या वेळार एकेतरेची उदासी मनांत दाटून येता आनी चुकिल्ल्यो माकिल्ल्यो यादी घोंटेरांत परततात.

*आतां पाकळ्योच पाकळ्यो*
*जशी देंवता*
*सांज फुलां फुलांर*

*मळब रंग*
*बदलत वता*
*पाखांनी ल्हवसार...*

परशाचे कवितेचें वैशिश्ट्य म्हळ्यार ताचे कवितेंतल्यो चित्र प्रतिमा. तांचो अभ्यासाचे नदरेन विचार केल्यार संस्कारवादी चित्रकारांची याद जाले बगर रावना. ताचें एक म्हत्वाचें कारण अशें: एखाद्र्या विशिश्ट अशा खिणाक वा अणभवांक संवेदना संस्कार करता अशे अभिव्यक्तीक हे कवितेंत वाट मेळटा. सैमांत जे खिणाखिणाक बदल जातात ते बदल ही कविता अळंगपणान टिपता. आनी ह्यो सौंदर्य संवेदनाच हे कवितेक आकार दितात. कविता आनी चित्र एकामेकांच्या सामके लागीं येतात हाचो अणभव परेशाची कविता दिता. ती निखटी कानांनी वाचपाची नासता तर दोळ्यांनी पळोवपाची आसता. सैमाच्या प्रतिमांक वा अवकाशाच्या प्रतिमांक आपलें अशें खाशेलें रुप, रंग, आकार, गती आनी लय अशे गूणधर्म आसतात.

कामतीचे कवितेक स्त्री सौंदर्याची ओड आसा आनी ह्या सौंदर्याच्यो वेगवेगळ्यो सया तो अळंग रितीन टिपून घेता.

*रंग विर्गळत गेले*
*तुज्या ओंठांत*
*म्होंव*
*पाझरत गेलें*
*फुलांच्या देंठांत*

'ओंठांत/ देंठांत अश्या सहज जुळून आयिल्ल्या यमकांतल्यान तूं-हांव मदल्या नात्याक घटाय येता. कवीच्या भावविश्वांत 'तूं'चीं वेगवेगळीं रुपां दिसतात. हे प्रेमकवितेंतल्यान मुखेलपणान व्यक्त जाता तो रतिक्रिडेचो भाव. रतिक्रिडा ह्या शब्दाक धरून शृंगार हो येताच. आनी हो शृंगार भाव मनाक चाळोवन घालपी आसता. बायलेचे कुडी विशींची एके तरेचे आसक्ती ती व्यक्त करता. ताका कामभाव अशें म्हणूं येता. खूब फावट हो कामभाव कलात्मक पांवडो गांठिना तेन्ना ती अभिव्यक्ती बटबटीत जाता. ती अश्लील दिसपाक लागता. हे भाव शरिरसंवेदना हुपून ताच्याय पेल्यान वतात तेन्ना ते अदिक refined जातात. हो नेम निखटो कवितेकूच न्हय तर एकूण कलेक लागता.

*अचकीत*
*उतरांनी वचून बसलें तूं*
*म्हज्या*
*आनी*
*जालें चित्र*
*संवेदनेचें*
*लावण्याचें*
*लखलखतें झुंबर*

ह्या वळींनी स्त्री रुपाच्या लावण्याचें एक आगळें वेगळें सौंदर्य दोळ्यां मुखार येता. प्रेम भावना व्यक्त करपाक कवी सैम प्रतिमांचो मेकळेपणान उपेग करता. लक्ष्मण पै सारकिल्या चित्रकाराक सैमांत बायलेचीं वेगवेगळीं रुपां दिसतात तेच भशेन कामतीकूय सैमांत स्त्री सौंदर्याचो साक्षात्कार जाता. उजवाडाच्या सातूय रंगांत ती आसता. काळखाक उजवाडावपी आनी रान मोनेळींत अळंग पाकळ्यो उगडीत फुलपी रानफुला भशेन. हे निखटें फूल न्हय तर आपलें निरागसपण जपपी रानफूल. प्रेमाची म्हूण आपली अशी देहबोली आसता. दोन कुडी स्पर्शाच्या माध्यमांतल्यान उलयतात. ही गूढ भास उतरांविणें सगळें सांगपी. हांगा दोळेच दोळ्यांक वाचतात. 'म्हज्या स्वासांत / घुमयत राव/ तुजो स्वास / वाटोळी सारकी / निमाण्या स्वासा मेरेन... असो हो अणभव चैत्रांतली पुनव आंग भर मनोवपी. ह्या सगळ्या अभिव्यक्तिंत एके तरेची sensuality आयल्या ती तरल रुप घेवन.

*काळ्या काळ्या दोळ्यांत तुज्या*
*वाच*
*शुभ्रावस्था*
*मनाची म्हज्या*

ही हे कवीची अणभव घेवपाची तरा. हे काव्यानुभव गूढ असो न्हय तर तो लौकीक आसुनूय ताका अलौकिकतायेचो स्पर्श जाता. हो अणभव जाणवता तरी शब्दां पेल्यान उरता. सगळेंच सांगपाची तिची वज न्हय तर ही कविता आपलो अर्थ लावपाक सुचयता. परेशाचे कवितेचें तें एक खाशेलेंपण अशें म्हणपाक जाय.

*आंगभर आंगभर आतां*
*सगळे कडेन*
*पानां पानांची सळसळ...*

असो जडांतल्यान सुक्ष्मा कडेन वचपी अणभवाचो हो प्रवास. परमळाच्या हुंवारांत धायदिको फुलतात आनी जड्गुळो जीव हवेंत तरंगत वचपी पिसा भशेन ल्हवपीक जावपी...

कांय फावट एक कविता बरोवन जातकच दुसरे कवितेचें बीं रुजोवपाक पडटा. ताची गवाय 'कळाकळांनी वारो' आनी 'कृष्ण' ह्यो दोन कविता आसात. पयले कवितेंत झाडांच्यो गवळणी वाऱ्याची कृष्णमयी बांसरी अश्यो प्रतिमा येतात आनी दुसरे कवितेंत काळोख कृष्ण जावन आयिल्लो दिसता. परेश हांगा कृष्णाचे प्रतिमेक नवीं परिमाणां दिता. ही दुसरी कविता पयले कवितेचें विस्तारीत रूप. एके कवितेंतल्यान हो असो दुसरे कवितेचो जल्म जाला आसुंये. सृजन प्रक्रियेचो तो स्वभाव अशें म्हणूंक जाय.

परेशाचे कवितेक सैमाचो सांगात आसा. ताचेरुच तिची पोसवण जाता. देखून, झाड, पान, फूल सारकिल्या प्रतिमांचीं आवर्तनां ही कविता घेता. ह्या प्रतिमांनी दडिल्ल्या अर्थाच्यो शक्यतायो ती

पारखिता. ह्यो सगळ्यो कविता वाचून तांचो आस्वाद घेतकच दोळ्यां मुखार ह्योच प्रतिमा खोल कोरांतून उरतात. रमेश वेळुस्कारा उपरांत झाड ही प्रतिमा प्रभावीपणान वापरपी कवी हो परेश कामतूच.

कवितेक भाशीक लय आसता. तेच प्रमाण तिका वृत्तीची लय आसता. आनी ह्या दोगांयचो सुंदर मेळ परेशाचे कवितेंत घडून आयिल्लो अणभवाक येता. थोडो अलंकारीक भाशेचो आधार घेवन सांगपाचें जाल्यार ही कविता म्हळ्यार पावस पडून गेल्या उपरांत मनांत वाजपी ओथांबे...

परेश कामतीची कविता निखटी रंगांची आनी प्रतिमांची उधळण न्हय. तो प्रत्येक प्रतिमा आनी प्रतिकां तोलून मापून दवरता. कोंकणी कवितेंत रंगसंवेदना आडवादानूच आयिल्ली दिसता. कांय कडेन तिचो आशय धूसर आशिल्ल्यान एका परस चड अर्थाच्यो शक्यतायो ती व्यक्त करता. हो ताच्या तंत्राचो भाग न्हय तर ताचे कवितेच्या आशयाचो आनी अभिव्यक्तीचो सभाव. हो संग्रह म्हळ्यार परेशालें कवितेचें मुखार घाल्लें पावल आनी तेच भशेन कोंकणी कविता कितली समृद्ध आसा हाची गवाय (दिता).

संपर्क: 9420222876

---

*(पान ५ वयल्यान)*

केरळ राज्यांतलो २०११ चे जनगणनेंतलो आंकडो आसा ६९,४४९. हो आंकडो खऱ्या आंकड्या परस खूब उणो आसा. त्या राज्यांत कांय लाख कोंकणीभाशी लोक आसात. १९७१ चे जनगणनेत केरळांतलो आंकडो आशिल्लो ७३,२४५. तो वाडत वचूंक जाय आसलो पूण ४० वर्सांच्या काळांत तो देंवलो आनी ६९,४४९ जालो. (गोंयांत, कर्नाटकांत वाडत गेलो). मात् हें प्रकरण महाराष्ट्रा भाशेन न्हय. केरळांतलें कारण वेगळें. थंयच्या कोंकणीभाशी समाजाचो मोटो वांटो म्हळ्यार कुणबी समाज. तो समाज 'ओबीसी' दर्जो मागता. (गोंयांत कुणबी समाज अनुसुचीत जमातीचो वांटो आसा.) ती मागणी करीत सावन केरळांतलो कुणबी समाज आपणाली मायभास मल्याळम अशें सांगता. हाचें कारण, कोंकणी ही मायभास म्हूण सांगत जाल्यार आपणाक हेर कोंकणीभाशी समाजाभाशेन धरतले आनी ते परिस्थितींत आपणाक 'ओबीसी' दर्जो मेळूंक पावचो ना अशी भिरांत तांकां दिसता. हाचे परिणामीं केरळांतलो आंकडो लाखा परस उणो आसा. पूण थंयच्या कुणबी समाजाच्या मनांतली भिरांत काडून उडोवपाक येस आयलें जाल्यार केरळांतलो आंकडो कितलोसोच वाडटलो.

आयचे घटकेक देशांत कोंकणीभाशी लोकांचो आंकडो कितलो आसा हें एक कुवाडेंच जावन पडलां. तें कुवाडं एक दीस सोडोवचेंच पडटलें. तो दीस बेगीन येत तितलो बरो.

*चत्राय: ह्या लेखांत वापरल्यात ते आंकडे जनगणना संस्थेचे पणजेंतले कचेरेंतल्यान मेळयल्यात.*

संपर्क: 9822163223


A MUST FOR EVERY STUDENT

COMPREHENSION GRAMMAR & WRITING SKILLS SERIES
V to XII

These books are based on Goa Board Syllabus. They guide children in knowing their Language Grammar well. Oral activities are given in which students train for correct pronunciation and articulation in **Konkani, Marathi, French, Hindi & English.**







MASTER WRITING SERIES
V to VII

These books are the foundation for mastering **Konkani, Marathi, Hindi & English** languages. They help young learners increase vocabulary. Topics like essays, letter and story writing, comprehension, and so on are covered

NOW ON THE STANDS

MANY MORE TO COME...

राजहंस
RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD
1-Meenakshi Bldg. Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji 403 001
Ph: 2220320 / 2232177 | E-mail: rajhaunsgoa@gmail.com
www.facebook.com/rajhauns , www.rajhauns.com



# सवणीं म्हजीं सोयरी

सुरेश गुंडू आमोणकार

आमच्या बाळपणांत आमची पयल्ली वळख आमचे आवयचे वरवीं जाता ती सैमांतल्या काव्या कडेन. घरांतल्या कुतू - माऊ कडेन, आनी पोरसांतल्या कोंबो - कोबी आनी तांच्या पिलां कडेन. तेन्ना सावन तांचे विशीं कितलीं तरी गीतां, आल्लयो आनी कांतारां आमच्या कानांचेर पडटात आनी तीं सवणीं आमच्या जिणेचो वांटो जातात. *''बा, बा, बारे कोंब्या, शोव शोव शोव''* हीं उतरां आमी सदांच आयकतात. पूण मागीर वाडटे पिरायेंतले जिणेच्या जंवजाळांत केन्ना-केन्ना हें सवण्यां - कुतूमाऊ कडलें नातें तुटटा. पूण हे बाबतींत हांव मात्सो सुदैवी. भुरगेपणा सावन आशिल्ली सवण्यांची ओड हे म्हजे जाण्टे पिरायेंतय म्हजी मनरिझवणी करता आनी वेळ मेळटा तेन्ना रंगयाळीं, मनभुलोवणी सवणीं निरखपांत हांव गुल्ल जातां.

वसंत ऋतूंत आनी गिमाचे गरमींत आमकां कोगळाचे पंचम स्वर थंडाय दितात आनी ताची आर्त तान आमकां आयकनशी दिसता. पूण एक अजापाची गजाल : कोगुळाची मादी गायना; गायता तो कोगूळ नर. सगळीं सवणीं आपआपले घोंटेर बांदपात फिशाल. पूण कोगळीण आपलो घोंटेर केन्नाच बांदिना; तिका ती कला येना. ती आसता तड्डकी. ती कावळ्याच्या आकाराची आनी काळी आशिल्ल्यान, कावळ्याच्या घोंटरांत आपलीं तांतयां घालता. तिचीं तांतयां कावळीण उबयता आनी तीं व्हड जातकीच उडून वतात. कोंकणी लोकवेदांत कोगळाचे आनी कावळ्याचें नातें भावाभयणीचें दाखयलां. भुरग्यांक न्हिदयतना आवय म्हणटा: *आरे आरे कावळ्या/ कोगळाच्या मावळ्या/ वारो घाल रे बाबुल्या दोळ्या.*

कोगळाच्या कुटुंबांतले आनी एक दोळे भुलोवपी सवणें म्हणल्यार कुमात्तर किंवा मोरायलो. ताका उत्तर कोंकणांत भारव्दाज म्हणटात. कुमात्तराचें दर्शन शुभ मानतात. हांव जरी शुकूनवी मानपी नासलों, तरी मातयेकोराच्या तांबड्या पाखांचो कुमात्तर दिश्टी पडटरीच हांव खोशी जातां आनी म्हजें मन प्रसन्न जाता. ताका मोरायलो म्हणचें कारण म्हणल्यार तो मोरावरी आपलो शेंपो फुलयता. कोगुळांच्या कुळांतलो हो कुमात्तर मात आपलो घोंटेर बांदता.

ल्हानपणांत आनीक एका सवण्याची वळख आमकां जाता ती एके आल्लयेंतल्यान. ती म्हळ्यार घुगुमाची वा घुगीची वा पिंगळीची. हें सवणें रातीचें जागपी देखून म्हज्या भुरगेपणांत हांवें तें केन्नाच पळयलेंना. घुगूमां तरेकवार आसतात. मोठ्या घुगूमाक नातूक म्हणटात. व्हमण ह्या घुवडाक नुस्तें आवडटा म्हणून मराठींत ताका मत्स्यघुवड म्हणटात. ल्हान आसतना आवयन म्हणिल्ले आल्लयेचे आजून याद जाता. *घुगी गे घुगी / आमाड्यार उबी । रडटल्या शुल्याक / कर गे ओगी.* साहित्यांत आनी लोकवेदांत घुवडाचे अनेक उल्लेख मेळटात. शेक्सपियर भिरांतीचें वातावरण निर्मुपाक 'The owl shrieked' अशें आपल्या नाटकांत खूब फावटीं बरयता. भुरगेपणांत आमी एकदां एक घुघुम धरिल्लें, ताचे खातीर एक पांदरो केलो, पूण कांय दिसांनी ताची अवस्था पळोवन घरच्या जाण्टेल्यांनी एक दीस ताका सोडून

दिले. कोंकणी लोकवेदांतले एके काणयेंत एका कावळ्याच्या पांयाक कांटो तोंपता. तेन्ना तो वैज घुगुमागेर वता. घुगुम वळदी फळ पांयांक लावपाक सांगता आनी तें फळ लायतना, तें बांयंत पडटा. कावळो बांयंत देंवता आनी वयर सरतकच, भांगराकोराचो जाता. मागीर दुसरो कावळो वैजागेर वता भंगराचो जावपाक.

म्हज्या भुरगेपणांत आमगेर बकीं, कवडे हांचे मांस बापायचे आमीग हाडून दिताले आनी ताचीं रुचीक शागोती खाल्ल्याची म्हाका याद जाता. हालींसराक सवणीं निरखप हो म्हजो छंद जाल्ल्यान म्हाका सवणीं आवडपाक लागलीं. एका काळार हांवें तांची शागोती खाल्ली म्हणून म्हजो जीव चिटमिट्टा आनी आंगार कांटो येता. सवणीं पळोवचेलीं आसता, तांची शिकार करपाची नासता हें भुरग्यांक सांगपाक जाय. ल्हानपणांत आमी रोवणान (गोफणीन), विरमुटयो, फुलपाखे, सवणीं हांचेर तीर मारताले. आतां ह्या मस्तेंपणाची याद जावन वायट दिसता.

गोंयांत बकीं वा बळारी शेतांत वा पाणयांत दिश्टी पडटात. हीं बकीं भिन्यांनी दिसतात. तळयेंतलीं नुसतीं किंवा किडी तांचें मुखेल अन्न आसता. कांय बळारी फुल्ल धव्यो आसतात, तर कांय बळारी मातयेकोराच्यो आनी काळयोय आसतात. कोंकणी लोकवेदांत बक्यांचेर - बळारींचेर रचिल्ली कवनां मेळटात : *तळें सुकोलें, बोकें म्हुजें बाबुडें जालें / खडप कातय गो, बोक्या म्हुज्या माणीक मेंवतोले / माणीक मेंवतोच, बोकें म्हुजे गिरेस्त जातोलें / गिरेस्त जातोच, बोकें म्हुजे काजार जातोलें.*

सोबीत रंगयाळो मोर हो सगळ्यांचें संवकळिचो आनी आवडिचो पक्षी. हालीसरांक म्हापशें सावन पणजे वतना गिरवडेच्या शेतांनी खूब मोर दिश्टी पडटात. मोर हो आमचो राष्ट्रीय पक्षी. आमच्या बायलांक 'मोरपिशी' रंगाच्यो साडयो आवडटात. ल्हानपणांत मोराची वळख जाली गीतांतल्यान. गोंयच्या भौतेक भुरग्यांक *''येतें येतें येतें बस रे मोरा / मामा ना घरा, तुका कोण घाली चारा / चारा खा पाणी पी भूर्र मोरा.''* हें पद सामकें संवकळीचें. म्हाका दिसता 'मामा' ह्या उतरा बदला 'मामी' घाल्यार चड सोबतलें आसलें. कित्याक घरचीं बायलांच खावपाक दितात न्हय? मांद्रेच्या आस्कण वाड्याचेर बायलांनी मोराचेर एक गीत गायिल्ल्याचें वाचिल्लें : *आज मोर खंयरे/ आज मोर लाटेर / बसलो तेच पाठेर / आरे आरे मोरा / पाखां तुजीं बारा / असो कसो तूं / फुलय न्ही पिसारा? /* कीर-आनी मोर गोंयकारांक आवडिल्ल्यान तांचेर जायतीं गीतां लोकवेदांत आसात. ती एकठांय करपाक जाय. *''धॉल गो बाये धॉल धॉलांचें / बायेक आंगलें किरांमोरांचें''* ही आल्लय सगल्यांनी आयकल्याच जातली. आनीक एक गीत आसा : *आज मोर खंय खंय/ सवर्ण पिकलां थंय थंय.* बाकीबाबान आपले एके कवितेंत मोराक बरो नाचयला; *नाचता मोर आलतडी / पावस पड्टा पलतडी / डरांव डरांव गायति बेबे / तळयेर खेळटि तालगडी.*

पारवे गोंयांत जळीं मळीं दिश्टी पडटात, आमचे शाळेचे इमारतीचेर बसतात आनी सगळे कडेन घाण करतात. पारव्यांचो गू आरीच्या दुयेंतीक बऱ्याक पडटा असो समज आसा. पारव्यांचो गु टू र गू... गु टू र गू हो साद आमच्या कानाचेर पडटा. लोकवेदांत पारव्याचे जोडयेर कवनां मेळटात. *''दोगां पारव्याचें जोडें / भोंवताले रे मोगान / मदें पावोंक नाडलें तांकां दुस्मानान''* . मुंबय कबुतरखाना हे सुवातेर आनी देवळांनी लोक पारव्यांक धान्य घालून पुण्य जोडटात. सुंदर जोडयाक ''पारव्याचें जोडें'' म्हणची चाल आसा.

पयर खूब दिसांनी म्हाका कवडे दिश्टी पडले आनी हांव खोशी जालों. कवडो पारव्याच्याच कुळांतलो पूण पारव्या परस मात्सो ल्हान. कवडे शेतांत भिन्यांनी रावतात. कोंकणी लोकवेदांत कवड्यांचेर रचिल्ल्यो काणयो आनी लोकगितां मेळटात. ताच्या रडकुऱ्या आवाजाचेर एक काणी रचल्या. एका कवड्याक फोव खावपाक खूब आवडटालें. तो भात हाडून भयणी कडेन दितालो. भयण ताका ते कांडून फोव करून दिताली. एक दीस ताणें बायले कडेन फोव मागले. बायलेन भात कांडलें. आसूडलें, फांफूडलें, आशे बी वेंचून निवळ करून दिले. इल्लेशे फोव पळोवन कवड्याक तिडक आयली. बायलेन आपणें फोव खावन उरिल्ले आपल्याक हाडून दिल्या अशें ताका दिसलें आनी ताणें तिका मारून उडयली. आनी तो फोव खावपाक बसलो. ताका ते फोव खूब रुचीक लागले. हरशीं भयण दिताली त्या फोवांत आशें, फातर मेळटाले. आता ताका कळलें फोव कित्याक कमी जाताले तें. तो पिकासांवान रडूंक लागलो. *सीतेच्या हातचे फोव, गोड गोड गोड / ऊठ गे सीते, हांव कवडो, पोर पोर पोर.*

कवड्याची आनीक एक काणी अशी: एके बायलेन एक कवडो पोशिल्लो. तिच्या घोवाक ताची नसाय जाताली. ती ताका सुपा पोंदा धांपून दवरताली. एक दीस घोव ताका मारून खाता. फुगडी खेळतना बायलो म्हणटात - *खंय गेलो म्हजो कवडुलो / हांवें ना देखिल्लो / सुपां पोंदा धांकिल्लो.* कीर, किरांटी, वोडेर, कीर अशी पोपटाच्या कुळयेंत जायतीं सवणीं. कीर - पोपट भुरग्यांक खूब आवडटात आनी आदीं गोंयकार पोपट पांदऱ्यांत पोसताले. आतां सरकारान हाचेर बंदी हाडल्या. कीर पांचव्याचार रंगाचो. पोपटी रंग पोपटा वेल्यान वळखतात. पोपटाची चोंच तांबडी गुंज. ताच्या गळ्यांत तांबसर सरी कशी आसता. किराचेर रचिल्लें एक उमाणेंय आसा: *पावस ना, उदक ना, रान कशें पांचवें? चुनो ना, पान ना, तोंड कशें तांबडे?* आनीक एक गीत सगळ्यांच्या वठांर आसता : *माडावयलो कीर रे शेपडी हालयता / तन्ने चेडूं पान खाता फिरंगी आपयता.* गोंयांत लोकवेदांत किरांचे केल्ली कवनां आनी काणयो मेळटात. भुरग्यांक न्हिदयतना आवय म्हणटा: *बाबुल्याच्या पाळण्याक रे काडल्या कीर मोर/ आनी बाबुल्याचो मामा रे भोव वीर /* हांव मोंबासाक (केनिया) शिकयतालो. थंय खूब गोंयकार आशिल्लें. एका गोंयकारान कीराचेर गायिल्ल्या कांताराची म्हाका याद जाता. *आफ्रिकेचो कीर गे माय कोंकानी उलोयता / आंकवार चेडवांक चोयतकीच पांखां फुलयता / म्हात्र्या बायलांक चोयतकीच पाखां झोडोयता.*

गोंयांत आनीक एक संवकळीचें सवणें म्हणल्यार पिटकोळी वा

बोचुड्डी. ताका बुलबुलय म्हणटात. ती जोडयेन भोंवता. तकलेर पिसांचो बोंचडो कसो बांदिल्लो आसता, ताका लागन ती बोचुड्डी. तिका पाखलो पिटकोळीय अशेंय म्हणटात कित्याक तिच्या तोंडार आशिल्लो धवो-तांबडो कोर. एका धालो-गीतांत पिटकोळेक भुरग्यां पासून शिटकायल्या: *''आटकोळे पिटकोळे तूं वाटेर करूं नाका घोंटेरू / तूं वाटेर करूं नाका घोंटेरू / भुरगे येतले पिटकोळेक घालूंक फांसू.''*

गोंयांत जळीं मळीं दिसपी आनीक एक शेवणें म्हणल्यार किटूर किंवा पिटुशें. तें फुलांतलें म्होंव चोखता म्हणून ताका उत्तर कोंकणांत फुलटोच्या म्हणटात. कोंकणी लोकवेदांत किटुराचेर रचिल्लीं कवनां आनी काणयो मेळटात. *शेवण्या किटुरा खंय गो गेलेलें? / घांटार गेलेलें / घाटांर कित्याकु? / वांवळ्यो हाडूंक / वांवळ्यो कित्याकु?/ घोंटेर बांदूकु / घोंटेर कित्याकु? / पिलां काडूंकु / पिलां कित्याकु? / मामालें शेतभाट राखूंकु.* किटुराचेर एक काणीय आसा. किटुराक एक कीड मेळ्ळी. किटूर तिका खावपाक वता. कीड किटुराक म्हणटा, *''शी, तुवें तोंड तरी धुलां? हें तशें बुरस्या तोंडान म्हाका खातलें?'' वच, पयलीं तोंड धुवून यो.''* किटूर तोंड धुवून येता. निमाणे कीड विचारता, *''म्हाका हरवेंच खातलें ? इंगळो घेवन यो आनी बरें भाजून खा.''* किटूर वता आनी इंगळो चोंचीन धरता. चोंच लासता. किटूर हाय हूय करीत नाचता. कीड ल्हवूच नाच्च जाता.

भुरगेपणा सावन आमकां सगळ्यांक काक्याची वळख आनी ओड. आवय भुरग्याक भरयतना एक उंडी काक्याकय भरयता आनी तेन्ना सावन काक्या कडेन आमचें नातें अचळय जुळटा. कावळ्याक आनीक नांवां आसात. कायळो, घर कावळो, भुरग्यांक तर तो काको. कावळो तीख नदरेचो आनी आमचे भोंवतणचो वाठार साफ दवरता. कावळ्याचे हुशार बुद्धीच्यो जायतो काणयो आमी आयकल्यात आनी इसापनींत वाचल्यात. कावळो आमचो संवकळिचो आनी सामको घरचो. आमच्या घरा भायर कावळो आसताच आनी घरांत श्राद्ध जातरीच कावळ्याक शिरतेर घाल्लें जेवण जेवपाक कावऽ कावऽ करून साद घालून आफयतात. कावळ्याचेर कितलींच गितां लोकवेदांत मेळटात आनी साहित्यांत लेगीत म्हजी घरकान्न सर्गेस्त सुधाबाय एक कोंकणी कांतार म्हणटाली. तातूंत एक बायल परदेशांत आशिल्ल्या आपल्या घरकाराची वाट पळेता आनी कावळ्याक आपलो विशवासी दूत करता. कालीदासान मेघाक दूत केलो. ही बायल कावळ्याक उद्देशून म्हणटा: *कावळ्या रोडटाय कित्याक दारांत / तुका मारीत कोणी फारान / पतीची खोबोर, हाडल्याय रे तारान / उडोन वोच रे बोऱ्यान / म्हजो पोती न्हय गो आयलो / आनी कावळो उडून गेलो...* घोवाची वाट पळोवपी बायलेक कावळ्याचो असो आधार जाता.

बाकीबाबाचे एके कवितेंत कावळो होंवळो जाता. *''कावळ्यान हाडली होंवळीक / लग्न आसा गोंधळीक / लग्न पोण्ण कोणाचें? सदांच दोगां जाणांचें... घोणीन हाडली खबर / प्रसंग मोठो निबर / बांगडो पावला मडगांवां आनी पेड पावली मुरगांवां''* कोंकणी आल्लयांत काको मोठ्या मानान मिरयता. ल्हानपणा सावन भुरग्यांचें नातें काक्या कडेन जुळटा.

आवय म्हणटा : *धॉल धॉल धॉलाचे /धोलता बाय भागलें / फुलां वेचूंक लागलें / एक फूल व्हेलें काक्यान / कित्याक रे काक्या रडयता / आंगली तोपरी भिजयता / आंगली तोपरी भिजयता रे काक्या / पेरी झाडार सुकयता.* कावळ्याचे आनीक एक विशेश गूण आसा. ताका कितेंय खावपाक मेळटकच तो तें एकटुक्यान खायना. काव काव अशी हालेट मारून सगळ्या सोयऱ्या धायऱ्यांक आफयता. मनशांनी ताचो घेवपा सारको हो गूण आसा.

लोकवेदांत आनीक एक सवकळीचें सवणें म्हणल्यार घोण. कोंबयेच्या पिलांक फारावपी म्हूण फामाद. घोण हें शिकारी सुकणें. ताची शेंपडी नुस्त्याच्या आकाराची. तीक्ष्ण नदरेची घोण उंचाटे वेल्यान उडटा आनी कांय खिणां भितर झोंपय मारून आपले सावज टिपता. रडटल्या भुरग्यांक समजायतना आवय म्हणटा : *यो गे घोणी, यो गे घोणी, आखाड्यार बस / आनी रडटल्या बाबूक म्हज्या खेळोवन वच.* धालां मांडार बायलो घोणीची पिलां असो खेळ खेळटात. एक बायल घोण जाता. दुसरी बायल कोंबी. पांच बायलो कोंबयेची पिलां जातात. ह्या पिलां मदलें एक पील घोणीक जाय आसता.

कोंबी : कित्याक घोणी जळपता?

घोण : म्हजी पिलां वळखता.

कोंबी : हांगा ना तुजें घोणीचे पील.

घोण : हांगा धांकून घाला.

कोंबी : ना तुका दिवची.

घोण : व्हरतलें रे व्हरतलें एक पील व्हरतलें.

कोंबी : हांगा ना तुजें घोणीचें पील.

घोण : हें पळय, म्हजें घोणीचें पील! हेंच म्हजें घोणीचें पील.

आनीक एका पेडणेंतल्या लोकगीतांत घोणी - कोबयेचो संवाद असो सोंपता.

घोण : एक तरी पिल व्हरतलंय । खुटार बसून खातलंय.।

कोंबी : तुजी चोंच मोडटलंय । घोणी पिला खेळय गे ।

घोणी पाखे हालय गे ॥

निमाणी घोण जाल्ली बायल तांच्या रांगेंत घुसता आनी पिलांक सोडून काडटा.

म्हजे भेटेक दिसपट्टे येवपी आनीक एक सवणें म्हणल्यार मडवळ. हांव म्हज्या घराच्या व्हारांडांत बसून म्हजें सकाळचें चापाणी करतां, तेन्ना न चुकतां दोन मडवळ येवन म्हजी मनरिझवणी करतात. बाशयेंत दवरिल्लें उदक पियेतात. काळें आंग आनी ताचेर धवो पटो आशिल्लो मडवळ उदकांत बुडोवन पांखाटे हालयता. म्हणून घडये ताका मडवळ म्हणटात आसू येता. विणीच्या काळांत तांचें गायन चालू आसता. नर मडवळ मादये मुखार शेपटी उबारून नाचता आनी तिचें प्रणयाराधन करता.

आमच्या व्हरांदा भायर एक उदकाची टांकी आसा, तातूंत म्हज्या नातवान रंगयाळीं नुसतीं पोसल्यांत. हें कळ्ळे बराबर, एक सुंदर

किरकिरो तांचे भेटेक दिसपट्टो येवपाक लागलो आनी बुचकळी मारून नुसतीं फारावपाक लागलो. मागीर एक जाळी घालून ताचो बंदोबस्त करचो पडलो. आतां तो दिश्टी पडटा; हाचो अर्थ किरकिऱ्याकय बुदमत आसाशी जालिना? किरकिऱ्याचे जायते प्रकार आसात: चिटो, बटकुणो चिटो, व्हडलो किरकिरो, शिबरो किरकिरो इत्यादी. गोंयांत हें सुकणें उदकाक सुवातांचेर दिसता. उदकांतल्या जिवांचेर बारीक नदर दवरून, बुडी मारून तो नुसतीं धरता. तो नुसतीं मारपांत फिशाल म्हणून इंग्लीशींत तो किंगफिशर.

गोंयांत शेंकड्यांनी थळावीं सवणीं तर दिश्टी पडटातच. हजारांनी मैल उडून गोंयां भायलीं सवणीं गोंयांत चडशीं शियाळ्यांत येतात. किरकिरो, कट्टुरें, मेस्तुलो, रानकोंबी, लातगें, लवो, तिसवो, गिडगे, पारवो, कीर, कापसो, मेस्त, पाडेली, नंदगें, मडवळ, कुचेकान्न, पाचवो भोंवर हीं थळावीं सवणीं. तिरमारो, गिडमोल, किकरो, साळवो, कोंकार, खवळां कवडो, धांवरो, तिरें, किरें अशीं संवकळीचीं नाशिल्लीं जायतीं सवणीं भायल्यान येतात. जाणी पक्षी-शास्त्राचो अभ्यास केला तांणी पक्षांचे विंगड विंगड कुळांचे गट केल्यात तांकां लातीं भाशेंतली नांवां दिल्यांत. कावळ्यांच्या कुळांतल्या सवण्याक Corvidae म्हणटात. म्हांव चोखपी कुळांतल्या सवण्यांक Nectarinildae म्हणटात. कीर कुळांतल्या सवण्यांक Psittacidae म्हणटात. जांकां हाचो अभ्यास करपाक जाय तांणी सलीम अलीचो ग्रंथ वाचचो किंवा 'गोंयचीं सवणी' हें पुस्तक वाचचें. ह्या पुस्तकाचे एक लेखक वेदांग सावंत हांणी काडिल्ले सवण्यांचे सोबीत फोटो पक्षांची वळख करून दितात. सवणीं निरखपाक जांकां आवडटा तांणी एकठांय येवन गांवांगांवांनी आनी शाळांनी, महाविद्यालयांनी, क्लब किंवा मंडळा स्थापची अशी म्हजी सुचोवणी आसा.

अशा तरांतरांच्या, रंगयाळ्या, सोबीत सवण्यांचो भुरगेपणा सावन म्हजे जिणेचो एक वांटोच जाला. हालींसराक म्हजो तो एक छंदच जाला आनी अभ्यासाचो विशय बी. भारतांतलो व्हड पक्षीशास्त्री सलीम अली हांणी सवण्यांचो सोद घेतला आनी Compact Book of Indian Birds हें फामाद पुस्तक बरयलां. गोंय सरकारान चोडणेच्या पक्षी उद्यानाक तांचें नांवय दिलां. हर्षा शेटये आनी वेदांग सावंत हांणी बरयल्लें 'गोंयची सवणीं' हें पुस्तक गोंयच्या रानां खात्यान उजवाडायलां. प्रत्येक सवणीं निरखप्यान तें वाचचेंच.

शेवटी बाकीबाबाचें 'निळें सवणें' हें कवितेंतल्यो कांय वळी उद्घृत करून त्या सवण्याक येवकार दितां.

*निळें निळें सवणें एक / सकाळच्या गो पारा ।*
*भांगराची घुंगरां बांदून / आयलें म्हज्या दारा ।*
*सवणें गायत आयलें तशें / झाडापेडां लागलें पिशें ।*
*कोमऱ्यो आंकऱ्यो फुटून म्हजें / पोरसुं आयलें चंवरा ।*
*निळें निळें सवणें एक / आयलें म्हज्य दारा ।*

संपर्क: 9421241221


RAJHAUNS
# Yearbook 2018




A MUST ON
EVERYONE'S DESK

Paperback | Pages:768 | Price: ₹ 275/-
Pub No.:1404 | Size:15 x 23.2cms.
ISBN: 978-81-936325-1-2




RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD
1-Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji - Goa 403 001
Ph.: +91 832 222 0320 / 223 2177 Fax: +91 832 242 5205
Email : rajhaunsgoa@gmail.com | Website : www.rajhauns.com

# कथा



# जाता अशें केन्ना केन्नाय...

सर्वेश एकनाथ नायक

नाचता नाचता कोणाचे तरी बियरीचो ग्लास म्हाका आदळलो, आनी म्हज्या सुटाचेर एक व्हडलो डाग पडलो.

''ओह... आय एम सॉरी... रिअली सॉरी.'' - पळयना फुडें मोगांत पडचें अशी सुंदर सोबीत चली आपल्या दोळ्यार आयिल्ली केसांची बट काना फाटल्यान घालीत चूक मागपाक लागली.

''इट्स् ओके.''

''सॉरी. म्हाका लागून तुगें ड्रेस इबाडलो.''

''आसूं दी. काय प्रोब्लेम ना. पुसल्यार वतलो डाग. काजाराच्या पार्टेंत असल्यो ल्हान ल्हान गजालीं घडटाच.''

''ना... मातसो धुंवन येयात. तो थिंगा वॉश रूम आसा.''

''ओके.''

हांव बॉशरुमांत गेलो. म्हजें मन त्या चलयेचेर अडकून उरिल्ले. ते आनी कोणा बराबर नाचपाक बीन वचत म्हूण हांवें जाता तसो बेगीन बेगीन ओलो डाग उदकान धुलो आनी परत भायर आयलो.

म्हजी नदर ताका सोदूक लागली. तेन्नाच फाटल्यांतल्यान कोणे तरी म्हज्या खांदार हात दवरलो.

''धुयलों डाग???''

''हय. हांव तुकाच सोदतालो. तर तू कोणाच्या वटेन आयलां?''

''हांव व्होकलेच्या ऑफिसांत काम कोरता. आनी तूं?''

''हांव फ्रान्सिसाचो फ्रेंड. म्हजें नांव रुपेश.''

''म्होजें नांव सिल्विया.''

''सिल्विया... सुंदर नांव.''

''हिंगा म्युझिकाचो आवाज चोड आसा. आमी थिंगा कोर्नर सिटार बोसोया.''

आमी दोगांय एका कोनशाक आशिल्ल्या टेबलार वचून बसलीं.

''ओय... रुपेश... थंय कोनशार कितें करता रे???'' - म्हज्या एका तवनास इश्टान फकांडा करीत म्हणले.

''आरे तुजें लक्ष हांगा कित्याक?''

''तांचेर लक्ष दिवं नाका. फकांडा करपाची सवय तांकां.'' हांवें सिल्वियाक समजोवचो यत्न केलो.

''होय. सोमजोता हांव. - ताणें म्हणलें.

''तूं काजारी?'' - म्हाका विचारपाक जाय आशिल्ले ताचो 'बॉयफ्रेंड' बिन आसा काय म्हूण. पूण तशें सरळ विचारप बरें दिसना म्हणटकच असो प्रस्न करचो पडलो.

''ना रे. माय फाटीक लागोल्या काजार जा म्हूण.''

''मागिर कित्याक रावलां तर जा मुगो काजार... बॉयफ्रेंड बिन आसा काय कितें गो?''

''आसलेलो... आतां ना.''

''ब्रेक अप??''

ताणें मान हालयत हय म्हणलें.

''धोर्मान हिंदू आसलेलो. घोरच्यांक सांगोक जालेंना ताच्यान. फाटल्या वोर्सा लोग्न जालो. आता एका भुरग्याचो बापूय जालां तो.''

''जाता अशें केन्ना केन्नाय.''

''कितें??''

''हाऽ हाऽ हाऽ... जस्ट जोकिंग... जेंका घरच्यांक सांगपाची कास्पताद नासता तें मोग करपाच्या भानगडीत कित्याक पडतात तेंच कळना.''

''तुज्या भितोर आसा? कापस्ताद?''

''तूं तयार मोगांत पडपाक?''

''बरोच फास्ट मुरे तूं.. बाय द वे... हांव किरिस्तांव... आनी तूं हिंदू''

''ह्यो काणयो पोरण्यो जाल्यो बाय. खुबश्या कथा, नाटकां, कादंबऱ्यांनी हो विशय वीट येयसर वापरून जालां. म्हाका कायच प्रोब्लेम ना. जात धर्म हांव मानिना. घरांत फकत हांव आनी म्हजो बापूय रावतात. ताका लेगीत म्हज्या धर्मा भायल्या लग्नाचो कितेच प्रोब्लेम आसतलो अशें म्हाका दिसना.''

''तुवें केन्नाच मोग करुना?'' - ताणें व्हड उमळशिकेन विचारलें

''हंऽऽऽऽ... केला. आशिल्ले एकटे. एक दीस सांजचो म्हज्या इश्टां बराबर हांव बेताळभाटी बिचार गेल्लो. थंय हें आशिल्लें,

एका चल्या बराबर...''

''चोल्याबारां आसल्यार कितें जालें... घोडयें तेगें कोणी जस्ट अ फ्रेंड आसोत''.-

''अशे...' जस्ट अ फ्रेंड'' ओठाक ओठ लावन कीस करतात?''-

म्हजी उतरां आयकून तें गालांतल्यां गालांत हांसलें.

आमच्यो गजाली रंगार आयिल्ल्यो. तेन्नाच परत म्हज्या इश्टान आमच्या मदीं हाडकळ हाडपाचो यत्न केलो.

''रुपेश, पुरो रे सायबा रिलेक्स जालो तो. यो आता परत डान्स करुयां.''

''कित्याक इतलो जळटा रें?'' - हांवें हासत ताका जाप दिली आनी ओगी केलो.

''तूं कित्याक वोचोना तेंच्या बारां डान्स कोरूंक''

''तूं येता म्हज्या बराबर डान्स करपाक?''

''ना... म्हाका घोरा पावपाक जाय... साडे इकरा जाली. माय एकलीच आसा. म्होज्या मायचो बर्थडे फाल्या.''

''कशें येयलां तूं...''

''फ्रेंडान ड्रोप केलोले... आता एका पायलटाक सांगून दोवोरला.''

''तेका आनी फोन करूं नाका. हांव ड्रोप करतां तुका'' - म्हाकाय ताच्या बराबर आनी रावपाक जाय आशिल्ले.

''नाका रे...''

''म्हजेर विश्वास ना?''

''आरे बाबा... धर्मापूर तें...''

''काणकोण लेगीत आसल्यार चलतां.''

आमी दोगाय दारा कडेन पावलीं. म्हज्या इश्टाची नदर परत आमचेर पडली.

''आरे खंय वयता??''

''खंय ना रे... तूं एन्जोय कर...''

भायर कडकडीत थंडी पडील्ली. तें स्लिवलेस ड्रेसांत आशिल्ल्यान चड कडकडटालें. हांवें मातशी हिरोगिरी करून फिल्मी स्टायलीन म्हजो सूट ताका दिलो.

''थॅक्स...''

वाटेर आमच्यो गजाली चालूच आशिल्ल्यो.

''तू स्लो चोलय... म्हाका भिरांत दिसोता... त्या वोल्तार तोर ॲक्सिडेंट जातांच.''

''हांव आसतना भिवपाची गरज ना... तर ''तुवें कितें थारायलें??'' - हांवें मुद्याक हात घातलो.

''रिगार्डींग...???''

''तुका हांव आवडलो??? डु यू वोन्ट टू मेरी वित मी???''

''फाल्या म्होज्या घारा यो.... आनी माय कोडेन उलोय...''

म्हजें मन खोशयेन भरलें... लार्गी लार्गी ताणें हयकारच दिल्लो. काय वेळान ताच्या घरा कडेन पावली.

''हें म्होजें घोर... तुका मेळोन खूब बोरे दिसोले. यु आर रिअली अ ग्रेट पर्सन.''

''गुड नायट... फाल्यां येता तुमगेर''.

''तुजी वाट पोळेता.''

काय खिणा भितर हांव म्हज्या घरां पावलो. रात भर म्हाका न्हिदच पडली ना. दोळ्यां सामकार फकत तेंच येतालें. ताचें तें सोबीत दोळे, कोरीव ओठ, विलुदा सारकें केंस. ताचें ते हांसप, उलोवप. हांव फकत सकाळ जावपाची वाट पळयतालों. ताका केन्ना परत एकदां मेळटा अशें जाल्लें.

सकाळ जाली. न्हांवन धुवंन हांव एक केक आनी फुलांचो तुरो घेवन पावणे धाक ताच्या घरा कडेन पावलो. म्हज्या काळजांत धडधडटाले. ताची माय कितें म्हणत काय?... असो विचार येतालो. आनी तिका हांव आवडलो ना जाल्यार. व्हड धाडस करून हांवें तांच्या दाराची बेल वाजयली.

एका जाणट्या बायलेन दार उक्तें केलें.

''बाबा... कोण तूं? कितें काम आसलोले?''

''आंटी, सिल्विया आसा?''

''सिल्विया??'' तिणें अजापान विचारलें.

''हय. हें सिल्वियाचेच घर न्ही?''

''वोय, हें सिल्वियाचेच घोर. पूण...''

''एनिवेज... विश यू मॅनी मॅनी हॅप्पी रीटर्नस ऑफ द डे... हॅप्पी बर्थडे आंटी.''

''थॅंक्यू बाबा... पूण.''

''आंटी... हांव रुपेश.. रुपेश आयलां म्हूण सांगात ताका.''

''बाबा... तूं ताका काल काजराक मेळलेलो वो कितें?''

''हय आंटी, ताणें तुमकां सांगलें दिस्ता?''

''ना. पूण म्हाका गोमलें, दर वर्सा ओशेंच कोरता तें.''

''म्हणल्यार आंटी?''

''बाबा सिल्विया मरोन सात वोर्सां जाली.''

''कितें???'' म्हज्या पाया सकयलीं जमीन हालली. खीणभर ती कितें उलयतां तें म्हाका कळलेंच ना.

''पूण आंटी, काल राती हांव मेळ्ळा ताका. हांवें ताका हांगा ड्रोप केलां. ह्याच घरांत तें भितर सरलां.''

''आनी... तुवें ताका तुगें सूट लेगीत दिलां आसतलो.''

''हय आंटी.''

''पुता आयज तेगें मोरणाचो दीस. सोकाळी इगोर्जेंत गेलो तेदोना शिमिटरीन तेगें फोटवार तुगें सूट लांबतालो. फाटली सो वोर्सां ओशेंच घोडटा. कोणाल्याय काजराक तें कोणाकय मेळटा. तेकोडे फ्रेंडशीप कोरता, तो तेका आपलो सूट दिता आनी हिंगा ड्रोप कोरतां.''

''पूण आंटी ते अशें कित्याक करता?''

''त्या राती खोरेच ते एका काजराक गेलोलें. रातचो तेका ड्रोप कोरपाक एक तरणाटो येतालो. सिल्वियाच्या आंगार असोच तेगे सुट लेगीत आसलेलो... वाटेर तेंगे गाडयेक ॲक्सिडेंट जालो. आनी दोगांय थिंगाच सोंपलीं. दुसऱ्या दिसा म्होजो बर्थ डे आसलेलो. खूब प्लॅन केल्ले म्होज्या धुवेन. आता एव्हरी ईयर ते म्हाका वीश कोरपाक कोणाकय धाडटाच. काल काजाराक देखून तेका फोवोत तुयेंच पोळेला आसतोलें. जाय जाल्यार तुज्या बारा आसलोल्या कोणाकय विचार.''

तेन्नाच म्हजो फोन वाजलो.

''हॅलो...''-

''आरे तुजें जाला तरी कितें? काल एकटोच कोनशाक बसोन बसोन बेगीनच सो गेलो??? कोणे कितें म्हणलें तुका?''

''काय ना रे. जिवाक बरें दिसनाशिल्लें.''

हांवें फोन दवरलो... आनी सुटार पडिल्ल्या बियरीच्या डागाक पळयत उरलो.

संपर्क: 7823593808



# चित्रां बापूच्या जिवितार्ची

**काकासायब कालेलकार : अणकार- रमेश भगवंत वेळुस्कार**



### ३०. गुजरात राजकीय परिशद

सन १९१६ त बापूजीन गुजरातांत येवन राबितो केलो आनी आमीय कोण तरी आसा अशी अस्मिताय गुजरातांत जागृत जाली. हाचे पयलीं मुंबयंत प्रांतीय कॉन्फरन्साची अधिवेशनां जातालीं, जातूंत सिंधी, गुजराती, महाराष्ट्रीय आनी कर्नाटक अश्या साबार प्रदेशांतले लोक येताले. देशाचे सरकारी प्रांतूय कॉंग्रेसीचे प्रांत आसले. गांधीजी भाशे प्रमाण प्रांत करूंक सोदता हें कळटकूच कांय गुजराती कार्यकर्ते गुजरात प्रांतीय कॉन्फरन्स स्थापन करपाचे थारावंक लागले. ते गांधीजीच्या लागीं गेले. गांधीजींनी आपलीं कांय कारणां म्हटल्यार आपली कार्य पद्दत तांचे मुखार दवरली. कार्यकर्त्यांनी ती आपणायली तेन्ना गांधीजीन तांचो अध्यक्ष जांवचें मान्य केलें.

हाचे फाटल्यान खुबी अशी आसली की मुंबय प्रांतीय कॉन्फरन्साचें हांतल्यान विकेंद्रीकरण जाता हाचो कोणाक दुबाव लेगीत आयलो ना, आनी हे खातीर तांचें उतर घेवपाक जाय काय कॉंग्रेसीक विचारपाक जाय, तेंय कोणाक कळ्ळें ना. त्या काळार कॉंग्रेस इतली संघटीत नासली.

कॉन्फरन्साचें सामकें शुद्ध देशी नांव ''गुजरात राजकीय परिशद'' अशें दवरलें. परिशद गोधराक जाली. गांधीजी सभेक वेळार पावले. तांचें भाशण गुजरातींत जालें. परिशदेक लोकमान्यांकूय आमंत्रण दिल्लें. ते आपले संवये प्रमाण परिशदेक उसरां पावले. गांधीजींनी व्हडा दबाज्यांत तांचें स्वागत केलें. पूण वांगडाच लोकमान्य अर्द वर उसरां आयल्यात इतलें म्हटले बगर रावले नात. जर स्वराज्य मेळपाक अर्द वर उशीर जालो जाल्यार लोक लोकमान्यांक जबाबदार धरतले!

### ३१. एका हलकट प्रथेचो अंत

हांवूय बापू वांगडा गोधरा गेल्लों. विशय निर्वाचन कमिटी मुखार जे प्रस्ताव चर्चेक येवंचे आसले, तांचो मसुदो तयार करून थंयच्या कार्यकर्त्यांनी गांधीजीं मुखार दवरलो.

तातूंत पयलो प्रस्ताव आसलो, ''हिंदुस्तानच्या पातशाक आमी आमची राजनिश्टा व्यक्त करतां... आदी आदी.'' त्या काळार राजनितीक सभांची सुरवात अशेच तरेन जाताली. गांधीजीन प्रस्ताव वाचलो आनी तो पिजून उडयलो. आनी सांगलें, ''असलो प्रस्ताव पास करप म्हटल्यार हलकटपण. जो मेरेन आमी विरोध करिनात तो मेरेन आमी राजनिश्ट आसतात. ताचें पेरगांव घालपाची गरज कितें? खंयचीच बायल घोवा मुखार आपूण पतिव्रता असो म्हण केन्ना शंख फुंकता? ती लग्न जाल्या हाचोच अर्थ ती पतिव्रता.'' कार्यकर्ते थटाकले. तांचीं तोंडां पळोवन बापून म्हटलें, ''जर तुमकां कोणें विचारलेंच की राजनिश्टेच्या प्रस्तावाचें कितें जालें, जाल्यार सरळ म्हजें नांव घेवन सांगात की गांधीन आमकां आडायल्यात.''

### ३२. देशी उतरांचो आग्रो

ते परिशदेंत घडये वीरमगाम संबंदान एक प्रस्ताव पास जाल्लो तो अध्यक्ष म्हण गांधीजींक व्हायसरॉयांक धाडचो आसलो. गांधीजीन तात्काळ एक तार बरयली, जातूंत सकल आपल्या नांवां उपरांत 'अध्यक्ष, गुजरात राजकीय परिशद' अशीं उतरां बरयलीं. हांवें म्हटलें,

"बाबड्या व्हायसरॉयाक हीं उतरां कशीं कळटलीं?" बापून जाप दिली, "जर तांकां हांगा राज्य करपाचें आसा जाल्यार तांकां ही आमची भास शिकची पडटली, वा कोण्या दुभाशाक आपल्या वांगडा दवरात जो तांकां हें समजांव शकतलो. आपलेच गरजेक लागून ते हांगा राज्य करतात न्हय?" अखेरेक तार ह्याच उतरांत गेली आनी ताची जापूय जाय तशी मेळ्ळी.

## ३३. हरिजन-सेवा प्रारंभ

गुजरातांत जे कार्यकर्ते सगळ्यांत पयलीं आयिल्ले तातूंत मुख्य आसले शंकरलाल बँकर आनी वल्लभभाई पटेल. विठ्ठलभाई पटेलय सुरवाते सावन गांधी म्हऱ्यांत येताले वताले, पूण ते तांच्या इतले लागीं पावूंक नासले.

गोधराक जी पयली राजनितीक परिशद जाल्ली ताचे वांगडाच ठक्करबाप्पान एके अस्पृश्यता निवारण परिशदेचें आयोजन केल्लें. (ते सर्वंट्स ऑफ इंडिया सोसायटीचे एक सिनियर मेंबर ह्या नात्यान गांधीजींच्या संपर्कांत आयले आनी येतांच तांच्यांत दाट इश्टागत जाली. बापून म्हटलें, "अस्पृश्यता निवारण परिशद जाल्यार हांगा डेढ वाड्यारूच जावंक शकता." गजाल थारली. राजनितीक परिशदेंत हे गजालीची घोशणा केली. तारीक, वेळ आनी थळ हेंय लोकांक सांगलें. सगळ्यांक आमंत्रणां धाडलीं खूब्ब लोक आयले. परिशदेच्या निमतान डेढवाडो घांसून पुसून चकाचक जाल्लो. विठ्ठलभाई पटेलूय हांगा आयिल्ले. तांचो सभाव इल्लो नाटकी आसलोच. ते लुंगी, लांबसो कुडतो आनी साधूंचो कानटोप घालून आयिल्ले. हे सभे खातीर व्यासपीठ नासलें. गांधीजी अध्यक्ष ह्या नात्यान एका कदेलाचेर काय पेटलार उबें जाले. तांकां आदार करपाक विठ्ठलभाई उबे जाले. तांच्या खांद्यार दवरून बापून म्हटलें, "हांव भायल्या पोशाकाचेर प्रभावीत जावपी मनीस न्हय. खांदार हात दवरूंक तूं दिता, पूण हांव तुजें काळीजूय सांसपितलों." ते सभेक महाराष्ट्राचे सगळ्यांत पयले आनी व्हडले हरिजन-सेवक विठ्ठल रामजी शिंदेय आयिल्ले. तांचे कडेन म्हजी इल्ली वळख आदींच आसली. सभे उपरांत आमी दोगूय गजाली करूंक बसले. शिंदे हांणी म्हटलें, "तुमचे गांधीजी आमकां हांगा टिकपाक दितले अशी आस दिसना. केन्नाच्यान हांव तांचे कडेन विचार-विमर्स करतलों म्हण्टां. म्हाका म्हजेच अणभव तांचे मुखार दवरचे आसात. पूण कोण्णाचे कान हालनात! ते तर सामके नेट्टान फुडें सरूंक सोदतात. आपलेंच एक संगठन उबें करूंक पळयतात. बरें तांचें कामूय अशा नेटाचें आसा की तांचे आड कागाळूय जांवक शकना. आमचे खातीर हांगा कसलेंच स्थान ना. हांगा रावपांत कांयच अर्थ ना. हांव चल्लों."

ते परिशदेक हेंय थारलें की अंत्यज-सेवे खातीर एक आश्रम काडूंक जाय. आश्रम स्थापीत केलो. पूण ताका फावोसो संचालक मेळ्ळो ना. हें कळटाच हांवें म्हजे इश्ट मामासायब फडकेंक थंय धाडले. ते म्हजेय पयलीं आश्रमाचे वांगडी जाल्ले. ते दिसा सावन आयज मेरेन मामासायब गोधरांत काम करतात. जर कोणाकूय तपस्वी ही उपाधी फावता जाल्यार ती फकत मामासायबांक.

## ३४. महादेवभाईची कार्यनिश्टा

गोधराच्यान आमी आश्रमांत परतले. बापूय आपलो एक दौरो पुराय करून आयलो. तांचे खातीर आश्रमांत एकूय कूड खाली नासली. आमी सगळे कोंड्यांच्या हांतरान तयार केल्ल्या खोंपींनी रावताले, ज्यो आमकां ना पावसा पसून वाटावंक शकताल्यो ना वता पसून. विणकाम चलोवपाखातीर वीट आनी गांवठी नळ्यांचो वापर करून एक व्हडलो मांगोर तयार केल्लो. ताच्या एका कोणशाक बापू खातीर एक कूड खाली केली. महादेवभाईक जागो हातासप खंयच्यान? तांचें सगळें सामान पडवेर पडून उरलें. एक दीस नेटान वारें वयतालें तातूंत तांचो "मॉडर्न रिव्हू" उडून गेलो. मागीर आमच्या खोंपीनी तांची कशी तरी वेवस्था करची पडली. एक सांजवेळ. आमी प्रार्थने खातीर एकठांय जाल्ले. तांकां आयिल्लें एक पत्र बापूजीन महादेवभाई कडेन मागलें. महादेवभाई त्या पत्राचे कुडके करून तें कोयराच्या पांटल्यात उडोवन आयल्ले. ते सट्ट करून उठले आनी कोयराच्या पांटल्यांत पत्राचे कुडके सोदूंक लागले. हे पिनिल्ले कागदा कुडके म्हण अशे सुखासुखीं मेळूं येतात? बापून म्हटलें, "आसूं, ताचे बगर काम चलतलें." पूण महादेवभाईक हें कशे मानूंक शकताले? तांणी पांटलो जमनीर परतिलो. त्या पत्राचो एक एक कुडको ते वेंचूक लागले. बापू बेजारल्लो. म्हणपाक लागलो, "हें कितें करता महादेव? सगळे लोक एकठांय जावन प्रार्थने खातीर तुमची वाट पळयतात. हांव सांगतां, ताचे बगर काम चलतलें." महादेवभाईन कानार केश्ट्यो काडल्यो. ते वेंचलेले कागदा कुडके सारके ओळीन लांवक लागले. तांचें कपल हुमेन भिजून गेल्लें. तितले मजगतीं सगलें पत्र सारकें लागलें. तें तांणी उतरावनूय घेतलें. आनी तेन्नाच ते आमचे प्रार्थनेंत सामील जाले. बापूंच्या कामांत तांची अशी आनी इतलीच निश्टा जीण भर उरली.

## ३५. तकलेंर माल्लेलो ताप!

दक्षीण आफ्रिकेच्यान हिंदुस्तानांत येवन बापूक चड दीस जावंक नासले. कसल्या तरी कामाक लागून तांकां मुंबय वच्चें पडलें. थंय तांकां ताप आयलो. ते रेवाशंकरभाईच्या मणिभुवनांत रावताले. थंय महादेवभाई तांचे सेवेक हाजीर आसले. एक दीस ताप इतलो चडलो की तो तांचे तकलेक मारलो. आनी ते कित्याय कितें बडबडपाक लागले. रातचो महादेवभाईक उठोवन सांगूंक लागले, "महादेव, हे बंगाली लोक कलकत्त्यांत कालीच्या नांवाचेर कालीघाटच्या मंदिरांत जनावरांची हत्या करतात. हांकां कशें समजांवया की हो धर्म नासून महा-अधर्म आसा म्हण? चल आमी दोगूय थंय वचून सत्याग्रह करूया आनी तांकां आडांवया. मागीर तिडकल्ले बंगाली ब्राह्मण आमचेर तुटून पडटले आनी आमकां कापून काडटले. ही पशुहत्या थांबोवपाक जर आमचे प्राणूय गेले जाल्यार तातूंत व्हडलें कितें?

ही गजाल हांवें खुद्द महादेवभाईंच्या तोंडांतल्यान आयकल्ली.

## ३६. "तुका हांगा कांय काम ना"

किशोरीलाल मशरुवाला अकोल्याक वकालत करताले. ठक्करबाप्पाचो तांचेर इल्लो प्रभाव आसलो. मशरुवालांनी चिंतलें

की देश सेवेची बरी संद आसा. ते चंपारण्यांत गांधीजी लागीं गेले, कारण गांधीजींनी स्वयंसेवकां खातीर एक अपील काडलेलें. गांधींजीन पळयलें की तांची सवसकाय बरी ना. तांकां दम्याचो त्रास आसलो. पूण तांकां हें बी दिसलें की मनीस तर सामको कामाचो आसा. तांचे कडेन आनी इल्लें उलोवप जाले उपरांत गांधींजीन तांकां सांगलें, "तुमचें हांगा कांय काम ना. आश्रमांत हांवें एक शाळा उक्ती केल्या. थंय सांवळचंदभाई, काकासायब, फूलचंद आनी पोपटलाल आसा. थंय तांकां पालव दी. आयजूच भायर सर हांगाच्यान. हांगा रावल्यार म्हाकाच तुमची चिंता करची पडटली, आनी नाका आसतना म्हजेर पेज जातलो." बाबडो आनी कितें करतलो आसलो? सरळ आश्रमांत आयलो आनी सदां खातीर गांधींजींचो जावन गेलो.

## ३७. ल्हान ल्हान गजालींची चिंता

चंपारणांतल्यान एक दीस बापूंचें पत्र आयलें. त्या दिसांनी आमचो आश्रम कोचरबाक एका भाड्याच्या बंगल्यांत आसलो. पत्रांत बरयिल्लें: "आतां थंय पावस लागला आसतलो. आजून लागूंक ना जाल्यार रोकडोच लागतलो. आतां वाऱ्याचो रुखय बदलून वतलो. ताका लागून आयज मेरेन ज्या खोणकुलांनी पायखान्याचे डबे रिकामे करताले, ते हाचे मुखार बंद करचे. ना जाल्यार थंयच्यान येतलो तो वास सोंसूंक जांवचो ना. हाका लागून पोन्नीं खोणकुलां पुरोवन घेयात आनी सांगलां त्या नव्या सुवातींनी खोणकुलां मारात." ह्या पत्रान म्हजेर खूब्ब परिणाम केलो. बापू चंपारणांत थंय कितें जाय नाका तें पळयतात आनी आश्रमांतल्या ह्या ल्हान ल्हान गजालींचीय चिंता मनांत दवरून वावर करतात. म्हाका नेपोलियनाच्या ह्या उतरांची याद जाली जांचो अर्थ असो आसा : युद्धांत तोच मनीस सद्दां जैतवंत जाता जो ल्हान ल्हान गजालींचीय चिंता काडून तांचेर उपाय करून दवरता. वांगडाच मार्टिनोकाच्याय उतरांची याद जाली: "Trifles make perfection and perfection is not trifle." ल्हान ल्हान गजाली एकठांय येवनूच पूर्णताय जाता, आनी पूर्णताय म्हटल्यार कितें ल्हान गजाल न्हय.

## ३८. सादेपण, स्वावलंबन आनी ब्रह्मचर्य

सादेपणान रावप, आपलें काम आपल्या हातांनी करप, ह्यो दोनूच गजाली करपाक बापूक कितें खास कश्ट घेंवचे पडल्यात अशें दिसना. येवरोपांत जेन्ना ते विद्यार्थी आसले तेन्ना शिवरांक जेवणा खातीर हॉटेल-रेस्टॉरंट सोदपा खातीर तें कितलेंय पयस आसलें जाल्यार चलूनूच वताले. मागीर ते आपलें जेवण स्वताच रांदूंक लागले. ह्या जेवणाच्या प्रयासांक लागुनूच केशवराव देशपांडे आनी बापूंची इश्टागत जाली. ते दोगूय एकठांय जावन दलिया (गंवांच्या कुडक्यांची पेज) करताले. बापू जेन्ना बॅरिस्टर जावन हिंदुस्तानांत परतले तेन्नाय ते मुंबयंत आपल्या घरा सावन कोर्टा मेरेन चलतूच वताले.

दक्षीण आफ्रिकेक जेन्ना तांणी पळयलें की गोरो म्हालो तांचे केंस मारपाक तयार ना तेन्ना तांणी ताका बाबा पुता करचे परस तांणी आपणेंच आपले केंस जमता तशे मारून घेतले. आनी उपरांत कोर्टांत गेले. गोऱ्या बॅरिस्टरांनी जेन्ना तांची धजा उडयत तांकां म्हटले की तांचे केंस कोणें हुंदरान बी कापल्यां कितें? तेन्ना तांणी सगळी खबर सांगली.

हाचे उपरांत जेन्ना तांणी टॉलस्टॉय आनी रस्किनाचीं पुस्तकां वाचलीं तेन्ना ते सादेपण आनी स्व-अवलंबन हाचे वटेन आनी इल्ले चड झुकले. झुलू झुजाच्या दिसांनी बापून अँब्युलेन्स कोरका कामा संबंदान जे कश्ट काडल्यात ते संबंदान तांणीं खंयच केन्नाच बरोवंक ना. पूण हो सगलो इतिहास बरोच आंगार कांटो येवं येता इतलो उत्सुकतायेन भरलेलो आसा. मनीस कूड जितलें काम सोंसूं शकता ताचेय परस चड कश्ट तांणी अँब्युलेन्स कोरका कामा खातीर केल्या. त्या दिसांनी तांच्या मनांत एका विचाराची कोमरी धरली की जाका आदर्श सेवा करपाची आसा ताणें ब्रह्मचर्याचें पालन करपाकूच जाय. टॉलस्टॉयाचो ग्रंथ वाचताना 'ब्रेड लेबर'चो विचारूय तांकां पटलो. तांकां विस्वास जालो की कूड जिती दवरपाक अन्न खांवक जाय. गरमी, थंडी हांतल्यान वाटावपाक वस्त्र वापरूंक जाय. तेन्ना अन्न आनी वस्त्र वापरतल्यान ते खातीर अन्न वस्त्राचे निर्मितींत कितें ना कितें काम करूंकूच जाय. जर हरिजनांचे कश्ट पयस करपाक जाय, जाल्यार गू-मूत नितळ करचें काम आमी आमच्या हातांनी करप गरजेचें. आनी हें सफाई काम विज्ञानीक तरेन करून ह्याय कामाक एक आदर्श रूप दिवपाक जाय. हें फकत तांणी समजुनूच घेतलें अशें ना तर तांणी तें कर्तुबांतूय हाडपाक सुरू केलें

****

सन् १९१७ त बापू चंपारणांत गेले. थंय जेन्ना तांणी शेतकारांच्यो कागाळी बरोवपाचें काम सुरू केलें तेन्ना बिहारचे जायते वकील तांची मदत करपाक थंय आयले. राजेंद्रबाबू, ब्रजबाबू आनी अशे कितलेशेच तेन्ना सावन तांचे वांगडी जाले. बापून त्या सगळ्यांक आपले वांगडाच रावपाक सांगलें. तांची रावतिका म्हटल्यार एके तरेचो आश्रमूच जावन गेलो. सगळे वकील तांचो खर्च चलोवपाक पटी काडटाले. पूण हो आश्रम तर एका कंजूस बनियाचो. हांगा दर एके गजालीचो पट्टाळो जातालो. केन्ना तरी एक दीस बरेच म्हारग आंबे हाडले, तेन्ना सगळ्यांक सांगलें आमी हांगा पयशे अशे तरेन खर्च करूंक शकनात. जेन्ना आंबे सवाय जातले तेन्ना आंबे हाडपाचे. मागीर कपडेय आपले आपणेच उमळचे अशें फर्मान काडलें. अशें सगळें करपा फाटल्यान बापूचो जो सिद्धांत आसलो तो असो की खर्च वकील दिता आसले तरी तो मागीर सगले जनतेचो जाता. आनी देखून तो आमी पिडेस्त राष्ट्राचे प्रतिनिधीच जावन खर्च करूंक जाय. तसो सर्व सामान्य अवस्थेंत बापू सादेपणान रावपाचो कितलोय आग्रो करूं पूण जर एका दुयेंत मनशाक गरज पडल्यार कितलींय म्हारग फळां हाडून दिताले. केन्ना केन्ना तर ते दुयेंतीक म्हयनो म्हयनो फकत फळांच्याच रोसाचेर दवरताले.

## ३९. बांगल बैलांवरी शिंगार

महादेवभाई आनी नरहरिभाई हांची इश्टागत दाट. आश्रमाच्या आरंभाच्या दिसांनी एक पावट बरयिल्लें दिसता की बापू ताका अमूक अमूक कामांत सामको सदां खातीर बांदूंक सोदता. नरहरिभाईन

ताका एक तिरसुवादी जाप बरयली: "म्हातारो बरो हुशार आसा. एक पावट ताच्या फांसाक सांपडलो रे सांपडलो. मागीर तांतुतल्यान सुटका ना ती नाच." तशे बापू केन्नाच दुसऱ्यांचीं पत्रां वाचिनासले. पूण ते दीस सगळें पोस्ट बापूच्या हातांत पडले. अक्षर हरिभाईचें दिसता. आश्रमा संबंदान आसतलें म्हण बापून पत्र उक्तें केलें, वाचलें आनी खूब्ब खंती जालो. तांणी नरहरिभाईक पत्र बरयलें, "अचानक हांवें तुजें पत्र वाचलें. जिणेचीं इतलीं वर्सां सरलीं. आतां ह्या जाण्टेपणांत असो कसलोसो म्हजो सुवार्थ आसा जाका लागून हांव तुमकां सगल्यांक संकश्टांत घालतां?"

हें पत्र मेळना फुडें नरहरिभाईक सामकें मेल्लेवरीं जालें. धांवत धांवत म्हजे सरीं आयलो. आनी सगली खबर म्हाका सांगली. तशेंच बापूचें पत्रूय म्हज्या हातार दवरलें. मागीर म्हणपाक लागलो, "आतां खंयच्या उतरांनी बापू कडेन गुन्यांव भोगसूंक मागूं? कळना!" हांवें ताका धीर दिलो आनी म्हटलें, "हें पळय आतां माफी-बिफी हाचें नांव काड नाका. माफी मागली की तूं गेलोच समज. असलें संकट, बांगर बैल जसो भिरकेंत सगलें आपल्या शिंगार घेता तशें झेलचें पडटलें. बापूक बरय की आपलें पत्र तांणी वाचलेंच कित्याक? तरी बरें तातूंत आनीक चड कितें बरोवंक ना म्हण. आमचें तरनाट्याचें एक वेगळें जग आसता. आतां तुमकां खबर जावचें हे खातीर तुमचे संबंदान आमी आनीक जें जें कितें उलयतात तेंय हांगा बरयतां. असल्याच फकाणांचेर आमी जियेतात आनी हांतल्यानूच तुमचे संबंदी आमचे मतींत आसलेले निश्टेक सारें उदक घालतात." ह्या पत्राचो बापूचेर खूब बरो परिणाम जालो.

### ४०. हेच खातीर एकटो आयलां

चम्पारणांतली खबर. प्रजेर जातल्या अन्याय-अत्याचारांची बापू कडल्यान जी चवकशी जाताली ताका लागून प्रजेंत एक आशेचें कीर्ण फुलूंक लागलेलें. वचत थंय बापून शाळा सुरू केल्यो, ताचोय लोकांचेर बरो परिणाम जालो. हें पळोवन निळीची शेतां करपी गोऱ्यांक हाचे त्रास जावंक लागलेले.

बापूक कोणें तरी सांगलें की, "हांगची निळीचीं शेतां करपी गोरे सामकें दुश्ट आनी हलकट. ते तुमकां मारून उडोवंक सोदतात. तांणी तुमकां मारपा खातीर मारेकारूय नेमल्यात खंय." हें आयकून एक दीस राती कडेन बापू एकटोच त्या गोऱ्यांच्या बंगल्यार गेलो आनी गोऱ्याक सांगलें, "हांवें अशें आयकलां की तुवें म्हाका मारपा खातीर मारेकार घातल्यात खंय. ते खातीर हांव आतां कोणाकूच कळयनासतना एकट्यांनीच हांगा आयलां!"

बाबडो निळीचो गोरो शेतकार तें आयकून सामको आबूज जावन गेलो.

संपर्क: 9420688461



---

पडसाद

## म्हणींचो अर्था सयत संग्रह करपाची चड गरज

**भौ. संपादक**

'जागा'चो जुलय म्हयन्याचो अंक वेळार मेळ्ळो. अंक सदांसारकोच सगळ्या आंगांनी सोबीत असो आसा. माधवीबायची याद जागोवपी समयोचित अशे लेख मानवले. 'एकमेवव्दितिय माधवीबाय' हातूंत सगळें आयलें'.

सखारामबाब बोरकारांच्या 'कोंकणी ओपारींचो कोश'च्या साक्षेपी परिक्षणांत म्हज्या कोंकणी म्हणीसागरचो उल्लेख केला. तातूंत २०६६ म्हणींचो आस्पाव आसा. अशें अणकार महर्षी सुरेशबाब आमोणकार हांणी मुजरत म्हाका कळयलें आनी वेळांत वेळ काडून अकारविल्हे वर्गीकरण करूनय दिलें. हें म्हळ्यार सामान्य गवयाक तोलामोलाच्या तबलजीची साथ मेळपासारकें! हांव तांच्या उपकारांत आसा. सखारामबाबांनी म्हणी संकलनाचें हें काम केदें व्हड तें दाखोवन दिलां. आज मोर खंय, स्वर्ण पिकलां थंय हे म्हणीचें नरवणेच्या भारतीय कहावत संग्रहांत इंग्लीश भाशांतर अशें दिलां,

Where is the peacock today? There, where gold is harvested (It is supposed that peacock eats grains of gold).

कोंकणींत धा हजारां वयर ओपारी आसात खंय. म्हजे आवडीचे पुस्तक म्हळ्यार एक वज्राळे ल्हान पुस्तक.

'The Konkani prowords by V. P. Chavan हें १९२३ वर्सा उजवाडा आयिल्लें पुस्तक. १९९५ वर्सा Arian Educational Services हे संस्थेन ताचें पुर्नमुद्रण केलां. तातूंत ५५९ म्हणी अर्था सयत दिल्यात. घोळटेंत आशिल्ल्या मोजक्या म्हणींचो अर्था सयत संग्रह काडपाची चड गरज आसा. फेसबुकार बी चुकीच्यो म्हणी आनी चुकीचो अर्थ जायतेदां वाचूंक मेळटा. हालींच 'आलेसा तांड रे व्हडें...' ही म्हण?

पुराय म्हण अशी आसा :

आलेसा, तांड रे होले - हांव तर भुरगो मंगा

आलेसा जेवंक यो रे - हांव तर मानाय मुगा।

आलेस (Aleixo) च्या जाग्यार इनास (Inacio) वापरतात, होळ्याच्या जाग्यार व्हडेंय वापरतात.

हालेसा ताण रे होडे अशी बरयल्ली मेळ्ळी. ह्या मळार बरेंच काम जाल्लें आसा. म्हणीं फाटल्यो काणयो बरोवन काडल्यांत (कमलाबाय राव देशपांडे). लोकां मेरेन पावत अशें एका म्हणीच्या पुस्तकाची गरज आसा. Popular Edition म्हण्टात तशे.

जुलयच्या अंकान कांय मुद्रणाच्यो चुको मेळ्ळ्यो. पान. २६ वयल्या दोनूय अभंगांत 'पाहता' ऐवजी 'जाहता' 'मकर' ऐवजी 'मुकट'.

पान ३२ 'पावल' ऐवजी 'पावर'

चुको अभंगांत आनी कवितेंत आयिल्ल्यान खटकल्यो. आसूं. तुमकां आनी जाग परिवाराक जायतें बरें मागून.

**मनोहर पै धुंगट**

संपर्क : 9867331768

## कोंकणी साहित्यांत मोलादीक भर घालपी अणकार

# ‘स्वप्न सारस्वत’

परिक्षण

‘स्वप्न सारस्वत’ ही गोपालकृष्ण पै हांची कन्नड कादंबरी. ह्या कादंबरेक २०११ वर्सा कन्नड भाशेंतल्या साहित्या खातीर आशिल्लो नामनेचो केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला. त्या भायर कर्नाटक साहित्य अकादेमीचोय पुरस्कार फावो जाला.

गोपालकृष्ण पै हे कन्नड साहित्यांतले नामनेचे कथाकार. ‘तिरुवु’, ‘ई बेरळ गुरुतु’, ‘हाक्किय गुडीन दारी’, ‘मुरु मत्तिष्टु’ आदी तांचे कथा झेले खूप गाजल्यात. कथा लेखना बराबर ‘कनसेंबू कुदुयनेरी’ (कन्नड) आनी ‘उजवाड’ (कोंकणी) ह्या सिनेमाच्यो पटकथा तांणी बरयल्यात. त्या भायर ‘बेट्टद जीव’ ह्या कन्नड सिनेमांचे संवादुय बरयल्यात. ‘स्वप्न सारस्वत’ ही तांची पयलीच कादंबरी.

चारशें वर्सां फाटीं गोंय आनी सरभोंवतणच्या वाठारांनी शेंकड्यांनी वर्सां राबितो करून आशिल्लीं सारस्वत कुटुंबा, पुर्तुगेजांच्या आक्रमणाक आनी जांचाक लागून आपलें घर-दार, वेपार-उदीम, शेतां आनी शेतकाम, कुलदैवत आनी देवळां पडंग उडोवन आपलो धर्म, विस्वास आनी जीव वाटावपा खातीर रित्या हातांनी दक्षीणेक देशांतर करतात आनी कर्नाटक तशेंच केरळाच्या विंगड-विंगड वाठारांनी आपलो राबितो मांडतात त्या साबार कुटुंबांतल्या एका कुटुंबाच्या संघर्शाची ही काणी.

ही काणी आसा गोंयांतल्या वेण्यां गांवांत वेपार आनी शेतकाम करून फावोशे सुखान जगपी कुटूंब माळशर्माचो पूत नरस्सपायाचीं, हाचो नातू विठू पै हांची. ह्या विठू पै च्या हयातींतच ही देशांतराची क्रिया सुरू जाता. विठू पै चो नातू बेळकट्टे रामचंद्र पै. आपलो आजो विठू पैन सांगिल्ली काणी याद जाता. ही काणी चार पिळगेचे फाटीं वचून आमच्या मुखार दवरता. ही काणी चार भागांत विस्तारल्या.

भूतकाळ, वर्तमानकाळ आनी भविश्य काळ हांची जाणीव आशिल्लो, हजारांनीं वर्सांचो इतिहास खबर आसपी नरस्सपायाचे कुटुंबाची लागशिल्ली वळख आसपी नागडो बेताळ म्हणपी काळा भायलो दिगंबर सन्याश्याक कादंबरीच्या अखेरच्या पांवड्यार आपल्या कुटुंबाक तिगोवपाची एकमेव आस जावन आसपी सिद्धाले व्यंकटेशाक रामचंद्र पै उखलून ताच्या हातां दिवन, आश्वासन मेळटगीर जिणे मुक्त जाता. चारशें वर्सांचे दीर्घ काळखंडाचे ह्या काणयेंत येवपी एक एक पात्रां अद्भूत, खडेगांठ आनी अप्रूप आसात.

ही कादंबरी म्हळ्यार एका समुदायान पळयिल्लें आनी भोगिल्लें दुख्ख. सामुहीक संकश्टांक दिल्ली सुंदर बांदावळ आनी आकृताय आशिल्ली एक कादंबरी. इतली गडगंज अशी इतिहासीक फाटभूंय आशिल्ली कादंबरी बरोवपाक संशोधनाची जोड लागता. पूण केन्ना केन्ना ह्या संशोधनांतलीं तंतोतंतपणा कादंबरेक जड वतात, पूण हे ‘स्वप्न सारस्वत’ कादंबरेच्या बाबतींत घडूंक ना हातूंतच ह्या कादंबरेच्या लेखकाचें येस आसपाविल्लें आसा. कादंबरीच्या लेखकान प्रत्येक पात्राच्या चरित्राचो खोलायेन अभ्यास केला. आनी ह्या कादंबरेंत आशिल्लीं असंख्य पात्रां लेखकान फिशालकायेन चित्रायल्यांत ताची तोखणाय करीत तितली थोडी.

शेकीं ही कादंबरी म्हळ्यार संशोधन, पात्रांच्या चरित्राचो खोलायेन अभ्यास, भावविश्वाची समृद्धताय आनी एका महाकाव्याप्रमाण भयानक शोकांतीकेंत शेवट जातना लेगीत दैवाचो पाठलाग करून अमूर्त फुडारा कडेन वचपी हें सारस्वत महाभारत. एक अद्भूत अणभव दिवपी कलाकृती. ही कादंबरी वाचतना भौ. महाबळेश्वर सैलाच्या ‘युगसांवार’ आनी भौ. अनिल परुळेकार हांच्या ‘काझ पिंतो’ ह्या कादंबऱ्यांचो उगडास वाचप्यांक आयल्या शिवाय रावना. ही कादंबरी भौ. जयश्री शानभाग हांणी कन्नड भाशेंतल्यान कोंकणींत अणकारीत केल्ल्या. जयश्रीबाय ह्यो आकाशवाणींत सुमार २७ वर्सां वेगळ्या वेगळ्या पदांचेर काम करून निलय निर्देशक म्हण निवृत्त जाल्यात. कन्नड, कोंकणी, हिंदी, इंग्लीश आनी मराठी भाशांचेर तांचे प्रभुत्व आनी अणकार करपाचो अणभव आसा आनी त्याच खातीर तांचो हो अणकार सुरबूस आनी वाचनीय जाला. ही कलाकृती मूळ कन्नड भाशेंतल्यान आसा हाचो वाचप्यांक खंयच दुबाव येना इतलो हो अणकार बेसबरो जाला त्या खातीर जयश्रीबायक परबीं.

कोंकणीच्या साहित्य विश्वांत मोलाची भर घालपी ही कादंबरी वाचप्यांनीं मुजरत वाचची हें मागणें!

**सखाराम शेणवी बोरकार**

संपर्क : 9923306751

**‘स्वप्न सारस्वत’**

**लेखक :** गोपाळकृष्ण पै

**अणकार :** जयश्री शानभाग

**उजवाडावपी :** साहित्य अकादेमी, नवी दिल्ली (२०१५)

**पानां :** ३००, **मोल :** २५० रुपया

# कविता

## दोन कविता

आर. रामनाथ

### खांद

थरथरत कुलूप काडलें
आनी कलकलत दार उगडून
घरांत पावर घातलें
तशी घरांतली एकान एक वस्त
कच्च करून म्हजे आंगार आयली
तशें तांचे वागणें स्वाभाविक आशिल्लें
हांवेंनूय तें उक्तें काळजान आपणायलें
हांव जडभार जालों
कांय खीण उब्या उब्याच वण्टीक तेकलों
कोंदट वातावरणान गुदमरलों...

उपरांत हांवें
सगळीं दारां-जनेलां उक्तीं केलीं
हात-पांय धुले
उदक पिलें
आनी अख्खें घर झाडलें
सान्न मारली... पुसलें
जाय तींच आयदना धुलीं... कपडे धुले
परतून एक फावट घसघशीत न्हालों...

दनपार चडूच तापिल्ली
एकट्या खातिरूच रांदपाचो वावर बाकी आशिल्लो
निमणे पेजेचेरूच भागयलें...



आतां हांवें एकोड्यान रावपाची सवंय करून घेतल्या
म्हजे वांगडा म्हाका खांद मारपी देवूय रावनात...
खरें म्हणल्यार
तिर्थारि तिचें विसर्जन करतना
हांवें म्हजेंय विसर्जन केल्लें...

तशें पळयल्यार हांव आतां ह्या म्हज्या घरांत रावंच ना...



### म्हज्या कवितेंच्या अर्दकुट्या कादेर्नाची कोरीं पानां

हाली
हांव
कागदार कविता बरयना
झाडार बरयतां...

हालीं म्हजी कविता
दिय्यार वाडटा
व्हड व्हड जाता...

पांचवेचार झाडांच्या वस्तींतल्यान भोंवपी
जण एकलो म्हजी कविता मुजरत वाचता
देव-देवचार लेगीत...

आतां-
झाडांची म्हाका संवकळ जाल्या
आनी म्हजी झाडांक...

म्हज्या कवितेच्या अर्दकुट्या कादेर्नाची कोरीं पानां
कॅच करून म्हजे आंगार येतात
हांव पांचवोचार जावन
झाडामुळाक न्हिदिल्लो आसल्यार
हो म्हज्या कवितेचो अर्दकुटो कादेर्न
अख्खेंच्या अख्खें झाड

मुळासकट हुमटावन उडयता...
हालीं हें अशेंच घडटा
दिसा ढवळ्याक लेगीत...

निमणो उपाय म्हूण
हांवें हो म्हज्या कवितेचो अर्दकुटो कादेर्न
झाडाकूच घट्ट बांदला
म्हज्यासयत...

संपर्क: 9850458763



## पापा

**सरस्वती दामोदर नायक**

पापा,
प्रदुशणाच्या सोरपान घाला
भुंयेचे नरडेक वेटाळो
स्वास घेवपाक शुध्द हवेचो
फुडाराक ऑक्सिजन सिलिंडर घेवन भोंवचो पडटलो

आदींच पापा पुस्तकाच्या वज्या पोंदा
फाटीच्या कण्याचो जाला कुंडो
पुस्तकी ज्ञान घोकून घोकून जालों बेजार
अकलेच्या म्हज्या जाला बोंडो

मागीर हो ऑक्सिजन सिलिंडर खंय हुमकळचो
भंयानूच पोटांत आयला गुळो
कसो तुमकां पापा येना
आमचो भुरग्यांचो कळवळो

झाडांची बेसुमार कत्तल करून
सैमाक केला तुमी वांझुट्टो
व्हांवत्या न्हंयांचें स्त्रोत पुरोवन
बंद केल्यात उदकाच्यो वाटो

पापा, उदका खातीर झगडपाची पाळी
आयल्या आज तुमचेर
फाल्यां घडये शुध्द हवे खातीर झगडपाची
पाळी येतली आमचेर

तुमच्या पुर्वजांनी सांबाळिल्ली सैमीक संपदा
लुटून बुड्डून रावले एशो आरामांत तुमी
आमच्या फुडाराक मात रोवून प्रदुशणाचे कांटे
कितें सादूंक सोदतात तुमी?

फुडार आमचो कितलो भिरांकूळ आसतलो
चिंतल्यार हाता पांयाक येता कडकडो
पापा भंयाच्या ह्या चेंपणा पोंदाच घडये
आयचो भुरगो जाला एकमुळो





## जिणेचो प्रवास

**दत्तराज (दत्तू) नायक**

जिणेक प्रवास कित्याक म्हणचो?
असो प्रस्न म्हाका पडत आयला जायत्या वर्सां सावन...
कारण मुखार वच्चें पडटा - प्रवासा खातीर!
पूण आमी मात थंयूच अडकल्यात - शून्य जावन!
- तत्वगिन्यानाचे इमले बांदपी...
फुडाऱ्यांक लागलो कसलो रोग!
शबै! शबै! विकृतायेचो
म्हालगड्यांचेर आयला योग!
- रडना कोण कोणा खातीर
जीण मुखारूच वचना.. कालच्यो विवंचना
आयज बसल्यात भूतां जावन आमचेच गोमटेर
खंयच्याय दोळ्यांत दूक दिसना!
लायटी पेटल्यात, उजवाड जाला; घरार लागलो डीटीएच.
संवसार सगलो घरा पावला; पूण तूं शेजाऱ्याक विसरला.
चूड धरपी दिसना कोण; वाट दाखोवपी आसना कोण
बाजारांत वचून पळय केन्ना हांव कोण आनी तूं कोण??
- प्रवास म्हळ्यार गती... प्रवास म्हळ्यार प्रगती
प्रवास म्हळ्यार फुडें वचप... प्रवास म्हळ्यार चुकांतल्यान घडप
पूण आमच्या माथ्यार आयला आयज प्रवासाच्या नांवार सुकें रडप!!!

संपर्क: 8087657126



